# जाग

वर्स २६ ◇ आंक ९ ◇ एप्रिल २०००



*आमच्या कांठ्यावेलो आत्महीणपणाचो म्हारू तुवेंच*
*धांवडावन घालो.*
*आमचेठायचें सैमाचें देवस्व होरावन जागयलें तेंय तुवेंच,*
*आनी आमचे दाळागोळाक लागिल्ले पितर सद्‌गतीक*
*पावन आमकां स्रापामेकळे केले तेय तुवेंच.*
*म्हणूनच आज म्हजे वांगडा आयचें फायचें गोंय तुका*
*पांयार घालून घेता आनी तुका पराथता कीं,*
*आमच्या पुरसा, आमकां पाव.*
*आमचें 'बरें जावं' म्हण.*

— बाकीबाब बोरकार

# जाग

र्स २६ ◇ आंक ९ ◇ एप्रिल २०००

ंपादपी : रवीन्द्र केळेकार

ावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

ाजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

ाक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

ापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

## ह्या आंकांत



| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
धा रुपये अदीक जोंडचे)

वेव्हाराचो नामो :

**जाग म्हयनाळें**
२०१-बी, स्राल्देल अपार्टमेन्ट्स
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ९/-

**नदर संपादप्याची**

## फट दिसपा सारकें सत्य

इंग्रजींत एक म्हणणी आसा – Truth is stranger than fiction म्हूण. कल्पीत कथां परस खंय खऱ्यो खबरी केन्ना केन्ना फटश्यो दिसपाक लागतात.

न्हंयांचें उदक व्हांवन दर्यांत वता हें पळोवन मनशाक प्रस्न पडलो, हें उदक अशेंच व्हांवत वचूंक दिवपाचें? तें आडावं येता जाल्यार पळोवंक जाय. खूब कडेन लोकांक पियेवपाक उदक मेळना. न्हंयांचें उदक आमी आडावंक पावले जाल्यार जंय पियेवपाक उदक ना थंय तें नळांतल्यान पावतें करूंक येतलें. पियेवपाच्या उदकाचो प्रस्न सुट्टलो. ते भायर, शेतां भाटां शिंपपाकूय ताचो उपेग करूंक जातलो. शेतां भाटां सगळीं पावसाच्या उदकाचेर निंबून आसतात आनी पावस केन्ना फटयता तर केन्ना विटयता. शेतां भाटांतल्यान पाट काडून आमी न्हंयांचें उदक व्हांवतें करूंक पावले जाल्यार पावसाच्या पराधीनपणांतल्यान शेतकाम मेकळें जावंक पावतलें. आनी—

खूब येवजून मनशान न्हंयांचेर धरणां बांदपाचें शास्त्र विकसीत केलें.

हरशींय जाल्यार खंयच्याय मळार अमेरिका हेर सगळ्या देशां परस सदांच फुडें रावल्या. ह्याय मळार ती मुखार सरली आनी पांच पांच मिटरांचे उंचाये पसून अडेजशें तीनशें मिटर उंचाये मेरेनचीं सुमार **पंच्यास्तर हजार** धरणां तिणें फाटल्या कांय वर्सांत अमेरिकेंत बांदून काडलीं.

हालींच विपरीत कितें कानार येवन आदळूंक लागलां—

धरणां बांदपा फाटल्यान पिशी कशी लागिल्ली अमेरिका आतां खंय पिशी कशी एका फाटल्यान एक धरण मोडीत रावल्या. पयर १९९७त तिणें कॅलिफोर्नियांतलीं तीन व्हडलीं धरणां मोडून उडयलीं. आनी ज्या न्हयांचेर तिणें तीं बांदिल्लीं त्या न्हंयांक तिणें दर्याची वाट मेकळी करून दिली. म्हणटासर १९९८त तिणें नॉर्थ कॅरोलिनांतलें 'क्वेकरनेक' धरण मोडून उडयलें. १९९९त कॅनबॅक न्हंये वयलें दोनशें अंयशीं मिटर उंचायेचें 'एडवर्ड' धरण भूंय भरवण केलें.

मोडून उडोवपाच्या धरणांचें खंय तिणें एक 'हिट लिस्ट' तयार केलां. सुमार शंबर मोडून उडयल्यांत, शंबर रोखडींच मोडपाक काडल्यांत.

धरणां मोडपाक ती खर्च कितलो करता जातली? बांदपाक करताली ताच्याकूय कितलोसो चड. स्नेक न्हंये वयलीं चार धरणां मोडपाक खंय तिणें अंयशीं कोटी डॉलर खर्च केले. एल्वा आनी ग्लाइन्स केनियन धरणां तोडपाक इकरा कोटी डॉलरांची तजवीज करून दवरल्या.

हें 'पिशें' आतां येवरोपांतूय खंय पातळपाक लागलां. फाटल्या जुनांत एलियर न्हंये वयलें धरण मोडपाक फ्रांसान तेवीस लाख अमेरिकन डॉलर खर्चिले. वियेन न्हंये वयलें मेइसन्स रोगस धरण तोडपाक सोळा लाख डॉलरांची तजवीज केल्या.

काल पयर मेरेन धरणां धरणां करून आमी जप करताले. धरणांक 'नवीं तीर्थां' लेखपाक लागिल्ले. अकस्मात धरणांचें 'हिट लिस्ट' तयार करपा मेरेन कशे पावले?

मनीस पिसो कसो कित्याय फाटल्यान लागूं, एक दीस केन्नाय तरी तो आपल्या पिशेपणापसून जाल्ल्या लाव लुस्कानेचो हिशोब लावपाक बसताच बसता. तसो, ह्याय मळार तो हिशोब लावपाक बसलो. धरणांक लागून लाव जालो, काय लुक्सान, हें तो पळोवपाक लागलो. आनी—

लुक्सानूच चड जालें ह्या निर्णयार तो पावलो.

सगळ्यांत पयलें ताच्या लक्षांत आयलें, न्हयांतलें सॅमोन (salmon) नुस्तें ना जायत वचूंक लागलां म्हणपाचें. भगव्या रंगाच्या आनी चकचकीत खवळांच्या ह्या नुस्त्याच्यो दोनशीं जाती आशिल्ल्यो. तांतल्यो सत्तर जाती साप्प ना जावन गेल्यो. पंच्यास्तर ना जावपाचे वाटेक लागल्यात. आदले परस हें नुस्तें आतां प्रमाणांत धा पंदरा प्रतिशतूच उरलां.

पर्यावरणा कडेन दाट संबंद आशिल्लें हें नुस्तें मनशाचेंच न्हय, तर दुसऱ्या कितल्याश्या जिवांचें अन्न आशिल्लें. हांतले कांय जीव रानां फुलयताले फळयताले. हे जीव सैमांतले ना जावन गेल्ल्यान रानांय करपूंक लागल्यांत.

पर्यावरणाची पुराय संतुळाच धरणांक लागून इबाडत वचूंक लागल्या.

आनी हाचे परिणाम खासा मनशाकूच भोगचे पडूंक लागल्यात.

ते भायर, धरणांक लागून अमेरिकेंत खंय भूंयकांपाचे हांगा थंय धसके बसूंक लागल्यात. केन्ना खंय केदो धसको बसत आनी कितें कोंसळून पडत सांगूं येना. [महाराष्ट्रांतल्या कोयना धरणाक लागून भूंयकांपाचे धसके गोंयाकूय बसपाक लागल्यात, हाचे वयल्यान अदमास करूं येता.]

बरोच मार खाले उपरांत अमेरिका आतां म्हणपाक लागल्या—

विकास जावंक जाय. पुणून फकत आपणालें चिंतून केल्लो न्हय, पुराय वाटाराचें चिंतून तो करूंक जाय. फकत लार्गिचेंच चिंतून केल्लो विकास म्हारग पडटा. खूब पयसलें पळोवनूच विकासाच्यो येवजण्यो आंखूंक जाय.

जावं, 'बॅटर लेट दॅन नॅव्हर' ह्या न्यायान अमेरिकेक आनी येवरोपाक सत्य कळ्ळें हें बरेंच जालें म्हणूंक जाय. आमकां हें सत्य कळपाक कितलीं वर्सां लागतलीं, पळोवंक जाय. सुंदरलाल बहुगुणा आड्डू आड्डून सांगीत रावल्यात, टिहरी धरण बांदपाचें सोडून दियात; ना जाल्यार पळेतले तुमी, एक दीस हें धरण आपशींच कोंसळून पडटलें (हिमालय भुसभुशीत पर्वत म्हूण) आनी दिल्लींत 'प्रलय' येतलो. तांकां 'तज्ञां' कडल्यान जाप एकूच मेळटा, 'इतलो खर्च सरकारान आतां मेरेन केलो तो फुकट वचूंक दिवपाचो?'

अजून हिन्दुस्तानाक सारको मार बसूंक ना, इतलोच अर्थ हाचो.

## भुरग्यांचो छळ

एका इश्टाचे खबरेक गेल्लों. बरो ना म्हूण आयकल्लें. म्हळें, मेळून आयिल्लों बरो.

खाटेर आड पडून नातवाक तो काणी सांगतालो. नातू चार वर्सांचो. हांव भितर सरना फुडें आजो उठून बसलो. म्हऱ्यांत एक कदेल आशिल्लें. तें ओडून हांव बसलों. 'हो आनी मर्दीच खंयच्यान आयलो' अशें नातवाक जालें. ताचे खोशयेंत हांवें आडखळ हाडिल्ली. 'तूं कित्याक आयला हांगा? वच तूं घरा.' नातवान म्हाका ताणशेवन सांगलें.

'...परकी मनशाक अशें म्हणिनात बाबू', आज्यान ताका म्हळें. इतल्यांत भितरल्यान आजी आयली. 'हांव सांगतां काणी तुका' अशें म्हणून ती ताका उखलून भितर घेवन गेली.

'मनाक लावन घेवं नाका आं... भुरगो तो.' आज्यान म्हाका म्हळें.

'च्यॅ... म्हाका समजना? तुजेर ताचो हक आशिल्लो. हांवें तो काडून घेतलो म्हूण ताका म्हजो राग आयलो. येवपाचोच...' हांवें म्हळें.

'बावडो दिसूयभर म्हजे म्हऱ्यांत येवन बसता. भावंडां नात. शेजराय ताचे पिरायेचीं भुरगीं नात. आनी ताका घरा भायर कोण वचूंक दिनात. आवय-बापूय दोगांय नोकरेक. खेळटलो कोणा वांगडा? घरांत आमी दोगां... आजो आनी आजी. आमी ताका खेळपाक उपकारनात. आमकां धक येना. नाचूंक येना. म्हूण हांव ताका काणयो सांगतां. शेंकड्यांनी का... सांगल्यो ताका हांवें. पुणून दुदाची तान केन्ना ताकार भागल्या व्हय कोणा...? भुरग्यांक आवय बापायचो सांगात जाय. ह्या भुरग्याक सगळें दिलां दे... – न्हेसपाक पांगुरपाक जेवपाक खावपाक. तरांतरांचीं खेळणीं हाडून दिल... आवय-बापायन हाका... पुणून खेळपाक दुसरो कोणूय लागता, तो हा... मेळना. आवय-बापूय आसून अनाथ भुरगो हो... भुरग्या वांगडा अ... बापायन खेळूंक जाय, नाचूंक जाय. हांसूंक जाय, गावंक जाय. ह्या... आवय-बापाय कडेन सगळें आसा. फकत भुरग्याक दिवपा खातीर ... ना. आयच्या संवसारांत भुरग्यां सारकीं दुर्दैवी कोण नात... कितलेशे ... हाचे आवयक हांवें सांगलें, घोव जोडटा तुजो... तुवें कित्याक जो... जाय? तूं घरा राव. एकलोच एक अपुर्बायेचो पूत हो तुजो. ताका ... भायर पासयेक वच. ताचे वांगडा खेळ. भुरग्यांच्या आयुश्यांतलीं प... पांच वर्सां खूब म्हत्वाचीं. पयल्या पांच वर्सांतूच तांचो सभाव घ... ह्या पांच वर्सांत तांकां आवय-बापायचो सांगात मेळ्ळो ना जाल्यार भुरग्या... भितरल्या जिवितांत एके तरेचें रितेपण उरता. तें जाणटेपणांत भरून ... असलीं भुरगीं मागीर एकलीं एकसुरीं वाडटात. मनोराज्यांत गुल्ल उर... नाजाल्यार निर्शेणेंत पडटात...'

तो उलयत राविल्लो. ओग काडटालो. म्हणपाक लागलो, 'हांवें ... दीस हाचे आवयक म्हळें, हाका म्हऱ्यांत घेवन काणयो सांग...' अ... विद्वान. हालिंच्यो सगळ्यो आवयो जल्मतनाच विद्वान म्हूण जल्म... येतात. कितेंच वाचपाची, कितेंच जाणा जावपाची इत्सा तांकां जाय... गरजूय दिसना. आपणाक सगळें कळटा, घोवा परस, मांय मांवां प... चड अशें मानतात. म्हळें, हिका बाल-मानसशास्त्राची वळख करून दि... जाय. खूब वर्सां पयलीं मराठींत हांवें **बालमनाचें रहस्य** नांवाचें दि. ... कर्वेचें पुस्तक वाचिल्लें. आतां तें खंयच मेळना. पुण्यांत मुम्बयंत ख... मेळ्ळें ना. अखेरेक एका गांवांतल्या वाचनमंदिरांत मेळ्ळें. झॅरॉक्स क... घेतलें आनी 'हिका' सांगलें, दी म्हूण हें वाचूंक सुनेक. 'वाचचेंच ... असो सोपूत घेतिल्ले वरी वाचलेंच ना. हात लेगीत लायलो ना. 'ह... काणयो सांग' म्हूण हांवें तिका म्हळ्ळें त्या उतराक तिणें कितें कर... सांजची ऑफिसांतल्यान घरा येतना एका बुकस्टॉलार गेली आनी भुरग्य... आठ धा पुस्तकां हाडून पुताक वाचपाक दिलीं. चार वर्सांचो पोर. ति... वाचतलो? तरी बरें, भितर चित्रां आशिल्लीं. म्हजे सरीं पुस्तकां घे... ताणें बसचें आनी एक एक पान परतून हें कितें, तें कितें म्हूण विचा... एक चित्र आशिल्लें म्हायणोळाचें. 'हो कोण?' ताणें म्हाका विचारलें.

'म्हायणोळ', हांवें जाप दिली.

'तो कितें करता?'

'कोळहुंदरांक खाता.'

'तो खंय रावता?'

म्हळें, 'वयर दोंगरार.'

'म्हाका व्हरून दाखय.'

आतां, हांव खंय दोंगरार वतलों? म्हज्यान माळी चडूंक जायना. ... म्हळें, 'मम्मीक सांग. फाल्यां तिका सुटी.' ताणें मम्मीक सांगलें, आपण... दोंगरार व्हरून म्हायणोळ दाखय म्हूण. मम्मी ताचेर उसळ्ळी. 'चड अपुब... जाल्यात ह्या चल्याच्यो... आज्याक सांग व्हर म्हणून', अशें म्हणून त... म्हजे सरीं धाडून दिलो. म्हाका वायट दिसलें. भुरग्यांचें मानसशास्त्र न... आशिल्ले आवयगेर भुरगींच जावंक जायनात. हांचीं भुरगीं घरांत हुं..., माजरां, पाली, सुणीं वाडटात तशीं वाडटात. भुरग्यांक वाडोवपाचें ... शास्त्र आसा म्हणपाचें हांकां खबर लेगीत ना...'

म्हाका कोणें सांगिल्लें, कोणूय येतकूच हो खूब उलयता म्हूण... ह...

उलोवंक दिवंक जायना म्हूण... बायपास करून आयला... म्हूण हांवें
य बदल्लो. आरोग्या विशीं विचारलें. थोडेंशें गोंयच्या राजकर्णा संबंदान
यलों आनी 'बरें रे, आनीक एक दीस येतां हांव... खूब उलोवपाचें
आ म्हाका तुजे कडेन' अशें म्हणून घरा येवपाक उठलों.

'यो आं मुजरत... तुजे सारके कोणूय येतकूच जिवाक बरेंऽ दिसता.
तां आमचे दस सरल्यात पांच उरल्यात...'

'पांच लेगीत उरल्यात काय कितें, दुबाव आसा म्हाका' अशें म्हणून
उठून गेलों.

* * *

हांव रावतां तो वाटार देवळांचो. म्हाळसा, मंगेश, नरशींव, नागेश,
नाथ, म्हालक्षीम, शांतादुर्गा, सगळे देव म्हज्या चार चार पावलांचे
र. जाय तेन्ना जाय ताचे भेटेक वच. पुणून हांव तांचे भेटेक चुकून
ाय पावल्यार पावतां. मुजरत वचनां इतलेंय आसून तांची म्हजेर कृपा
सा. सगळ्या देवळांनी नव्यो अगरसाळो बांदल्यात. नवे हॉल बांदून
ल्यात. लग्नाचो मोसम आयलो म्हणटकूच अख्खें गोंय हांगा पावता.
नी सपसप केन्ना पावनात असले इश्ट ह्या लग्नांच्या निमित्त्यान आमगेरूय
धूळ झाडून वतात.

असलोच एक इश्ट पयर पावलो. जाची खबर हांवें वयर सांगल्या
चोय इश्ट तो. आमी तिगूय बराबर शिकताले. उपरांत तो सरकारी
करी करपाक लागलो. हो शिक्षक जालो आनी हांव कितें करीत रावलों,
ाकाच खबर ना. तिगांचींय तीन जगां. तरूय आमची इश्टागत अजून
ल्या. हांवें हाका ताची खबर सांगली. म्हळें, 'तीन दिसां पयलीं ताका
ाक गेल्लों. ताचें दुख्ख पळोवन हांव खूब दुख्खी जालों.'

'तुका कितें, हांव ह्या मळार सुखी आसाशें दिसता? मराठी भाशेंत
म्हणणी आसा, 'कोणागेरूय वच, रात्नी सगळ्यांच्यो मातयेच्योच पळोवंक
टल्यो' म्हूण. म्हगेरूय हेंच चल्लां. हांवें आयुश्यभर शिक्षकाचेंच काम
ें. कितलींशीं वर्सां एके शाळेचो हेडमास्तर आशिल्लों. सगळें म्हजे
क खबर आसा. पुणून तिका हाची पर्वा ना. पुताक तिणें नाका म्हणटा
सतना केजींत घालो. आतां इंग्रजी माध्यमाच्या इश्कॉलांत तो शिकता.
र्डा'क आसा. बावड्याक कितेंच समजना. तो सकाळच्या आदेसाक
ळेंत वता. दनपरां घरा येता. जेवन उठ्ठा, रोखडीच ही ताचो अभ्यास
. एक दोन वरां घेतिल्लो जाल्यार ओगी रावं येतालें. पुणून ही रातचीं
जायसर ताचो अभ्यास घेता. विचारिल्लें सांगूंक येना म्हूण ताचे तकलेर
ल्यो मारता. तकली बांकार आपटिता. पावती मारता. चिमटे काडटा.
रडटा. तो 'नाका, म्हाका मारूं नाका' म्हणटा. तरी आसतना ही
ो छळ करता... कसली बायल, समजना. म्हज्यान सोंसूं नज हें.
पडलों जाल्यार म्हाकाच जापो दिता. म्हळें, 'मारी नासतना शिकय...'
'ताका मारले बगर तो शिकपाचो ना.' ती म्हाकाच वयल्यान सांगता.
'दुकरा, तूं कांय करचो ना आयुश्यांत... ड्रायव्हर जातलो' अशें म्हणून
ा पावला पावलाक हिणयता... कितें करचें, समजना... नवसांनी जाल्लो
ूत तिका... हांव घुसमट्टां...'

सांगतां सांगतां ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. म्हजें
ीज सामकें कळवळून आयलें.

म्हळें, 'हाचेर उपाय कांय ना?'

म्हणपाक लागलो, 'पयर हांवें एका नांवाजत्या वकिलाक म्हळें, एक
पेटिशन दाखल करतलों म्हणटां कोर्टांत. परकी माध्यमांतल्या शिक्षणाचेर
हाडात म्हूण मागून... छळ चल्ला भुरग्यांचो शिक्षणाच्या नांवान तो
यान सोंसूं नज म्हूण... बरोवन दिशीत व्हय म्हाका?'

बरोवन दितां. पुणून जज्जां कडल्यान व्हडलिशी अपेक्षा दवरूं नाका.
ते कांय करपाचे नात.' ताणें जाप दिली. म्हळ्यार, देव सोडून भुरग्यांचो
त्रातो आतां कोणूच उरूंक ना ह्या संवसारांत.

* * *

म्हजे तकलेंतलें चाक घुंवपाक लागलें. म्हळें, दोन गजालिंचेर बंदी
हाडूंक जाय. एक 'होम वर्का'चेर. दुसरी 'टेस्टी'चेर.

शिकप शाळेंत. घरांत खेळप. घरा 'होम वर्क' घेता ती आवय. आनी
आवयो कितल्योय शिकिल्ल्यो आसल्यो तरूय मुदलांत अन्नाडी. कशें
शिकोवचें हें तांकां खबर ना. भुरग्यांक हिणोवन, मारून, जागरणां करूंक
लावन ज्यो आवयो भुरग्यांक शिकयतात त्यो निश्ठूर. निश्ठूर आवयांच्या
हातांत भुरगीं दिवंक फावनात. भुरग्यांनी घरा अभ्यास करूंक जाय जाल्यार,
भुरग्यांक कशें शिकोवचें हें आवयांक शिकोवंक जाय. ते खातीर शाळेंत
आवयां खातीर एक वर्ग नेमान चलोवंक जाय. Educators themselves
must be educated हो नेम आनीक खंय चलूं वा ना चलूं, हांगां चलूंक
जाय.

खरेपणानशीं 'होमवर्क' भुरग्यांनी न्हय, शिकयतल्यांनी करून शाळेंत
येवंक जाय. आपणें शिकयल्लें आसुनूय भुरगीं समजनात जाल्यार
शिकयतल्यान आपणाली शिकोवपाची तरा बदलूंक जाय. 'भुरगीं शिकनात'
म्हणटात ती खबर खरी न्हय. **भुरगीं शिकतात. फकत शिकतात. दुसरें
कितेंच करिनात.** खेळप, मस्ती करप, झगडप हीं सगळीं तांचीं शिकपाचींच
माध्यमां. हजार तरांच्या माध्यमांतल्यान तीं शिकतात. तांकां उमथीं पडूंक
कोण शिकयता? चलूंक कोण शिकयता? धांवंक कोण शिकयता? उलोवंक
कोण शिकयता? आवय बापूय? मास्तर मास्तरिणी? सगळें आपले आपुणूच
तीं शिकतात. भोंवतणच्या वातावरणांतल्यान आपणाक जाय तें तीं शिकतात.
तांणी अमकें शिकचेंशें तुमकां दिसता जाल्यार तें तांणी आपले आपूण
शिकचें हे तरेचें वातावरण शाळेंत उबें करूंक जाय. तीं आपशीं शिकतलीं.
आयज शिक्षणाच्या नांवान भुरग्यांक जें आमी दितात तीं आमचीं अन्नाडीपणां.
राज्यकर्ते अन्नाडी म्हूण शिक्षणूय अन्नाड्यांच्या हातांत दिवंक जाय, अशें
ना. राज्यकर्ते अन्नाडी आसुनूय आमी हॉस्पिटलां तज्ञांच्या हातांत कित्याक
दवरल्यांत? अन्नाड्यां - 'क्वॅक्सां'च्या हातांत कित्याक दिवंक नात?
तज्ञांचें मळ तज्ञांच्याच हातांत दवरूंक जाय, म्हुण्णूच मू?

आपणाली जापसालदारकी जी शिक्षिका वा शिक्षक भुरग्यांच्या आवयांचेर
धुकलता तांच्या हातांतलें शिक्षण काडून घेवंक जाय. शिकयतल्यांची
जापसालदारकी आवयांचेर धुकलूंक मेळूंक जायना.

दुसरी, परिक्षा... टेस्ट. परिक्षा म्हणिनाफुडें भुरग्यांक थरथरो भरता.
रोखडींच तीं नेटान अभ्यास करपाक लागतात. वर्सभर अभ्यास केल्लो
आसतनाय 'आपणालो सारको अभ्यास जावंक ना' अशें तांकां दिसता
आनी भियेवन तीं थरथरतात. परिक्षेच्या दिसा देवाऱ्या मुखार उबीं रावन
'देवा, पास कर म्हाका' म्हूण मागतात आनी परिक्षेचो पेपर पळेनाफुडें
काचाबूल जातात - नर्व्हस जातात - आनी शिकिल्लेंय विसरतात.

'पाठ केल्लें' भुरग्यांचे तकलेंत कितलें उरलां तितलेंच परिक्षेंत कळटा.
भुरग्याचो विकास जाला काय ना, ह्या विकासाक शिकोवप्याचो हातभार
लागला काय ना, हाची परिक्षा जायना. परिक्षेचे हे चालीक लागून भुरग्यांत
भितर मत्सर दुस्वास सारकेले अवगूण वाडटात. हुशार भुरग्यांचो अभिमान
वाडटा. जाणटेपणांत मागीर हीं भुरगीं दंभी जातात.

भुरगीं सारकीं शिकल्यांत काय ना हें वर्सभराच्या सांगातांत शिकयतल्यांक
कळूंक जाय. परिक्षा घेवचीच जाली जाल्यार शिक्षकांनी आपणाली घेवंक
जाय.

भुरग्यांचे परिक्षेचेर बंदीच हाडूंक जाय.

•

# खबरी – आमोरे वयल्यो

[ पयली खिस्त ]

'रवीन्द्रबाबांक अदूं पंच्यास्तर भर जातात. तांगेली एक प्रदीर्घ मुलाखत **आकाशवाणी** खातीर घेवची अशें मनांत आसा... तांकां खूब लार्गिच्यान तूंच वळखता. तांकां कसले प्रस्न विचारचे, तूंच थाराय. आनी म्हाका कळय... हांव टेप रिकॉर्डर घेवन पिरवळाच येतां...' कवी माधव बोरकारांनी म्हाका म्हळें.

एक निमित्य मेळ्ळें. म्हाकाय रवीन्द्रबाबांक प्रस्न विचारून खूबशें कितें तांचे कडल्यान काडून घेवपाचें आशिल्लें... तरांतरांचे प्रस्न विचारले. माधवबाबांनी ते 'टेप' करून घेतले. **आकाशवाणी**क वितरावपाक अडचण दिसूं येता असलेय कांय प्रस्न हांवें विचारिल्ले. जें कितें मेळ्ळें तांतलें कांय वेंचून **आकाशवाणी**न तें 'म्हजें जिवीत... म्हजें साहित्य' ह्या माथाळ्या खाला सात खिस्तिंनी वितरायलें.

ह्या आंका सावन पुराय मुलाखत 'जागां'त दिवपाक काडल्या. जशी घेतली तशी. वितरायली तशी न्हय. रवीन्द्रबाबांल्या जिविताचो सार-सारांश थोडो भोव हांतूंत आयिल्लो वाचप्यांक मेळटलो.

— माधवी सरदेसाय

*तुमच्या आयुष्यांतलें अमृत महोत्सवी वर्स हें...*

जाणां हांव. सगळीं कामां सोडून कडेक सरपाचें.

*ना, ना, त्या अर्थान म्हणूंक नाशिल्लें हांवें.*

हांव जाणां. पुणून अमृत महोत्सवी वर्स ह्याच अर्थान मनयत आयल्यात सगळे. 'तूं आतां जाणटो जाला, पाउणशें वर्सांचो जाला, आतां सगळीं कामां सोडून कडेक सर' हें सांगपाची सभ्य तरा ही, आयच्या संवसाराची. पुणून, कडेक सरपाक खंयचीय तरी सुवात हांव आडावन बशिल्लों आसूंक जाय आशिल्लों. खंयचीच आडावन बसूंक ना. फाटल्या पंदरा एक वर्सां सावन सगळीं कामां सोडून कडेक रावलां. कित्यांतूच ना. फकत बरयत आसां. ताची आडखळ कोणाक जाता व्हय? म्हाका दिसना. तरी आसतना पाउणशांवें लागलें तेन्ना म्हाकाच दिसपाक लागलें, आमोरी ही म्हज्या जिविताची, आतां बरोवपाचेंय सोडून दिवंक जाय. खूब बरयलें. इतलें बरोवपाची गरजूच नाशिल्ली. बरयलां ताच्या धाव्या वांट्या इतलें लेगीत बरयल्लें जाल्यार 'खूब बरयलें' अशेंच म्हणचें पडटलें आशिल्लें. पुणून, दुसरें कांयच येनाशिल्लें आनी 'म्हजे भाशेंत कांयच ना' ही खंत सस्थ बसूंक दिनाशिल्ली. म्हूण, बरयत रावलों. आतां अवचीत बरोवपाचें बंद केलें जाल्यार जिवीत रितें रितें जातलें आनी म्हजे म्हाकाच तें जड जातलें अशी भिरांत दिसपाक लागली. म्हज्या कांय इश्टांचें 'रुटीन' सुट्टकूच स म्हयन्यां भितर तांकां थतर वितर जाल्ले हांवें पळेल्यात... ते पयलिंचे उरूंक नात... म्हजें तशें जाल्लें म्हाका नाका. म्हूण, म्हळें, निजाचें वा मुळावें कितेंय बरोवपा बदला बऱ्या बऱ्या पुस्तकांचे आतां अणकार करून काडचे. कांय वर्सां आदीं **श्रीरामकृष्ण कथामृत** अणकारूंक घेतिल्लें. शंबरेक पानां अणकारून जाल्लें. हें काम मदींच बंद पडलें.

*तें कशें तर? खंयचेंय काम हातांत घेतकूच तें पुरें जायसर बसकण मारून बसपी तुमी... हें काम मदींच कशें सुटलें?*

ताचें अशें जालें... हें पुस्तक मुदलांत बंगाली भाशेंतलें. बंगाली, हिन्दी, मराठी, गुजराती भयणी एकीमेकिंच्यो. खंयचेय भाशेंतलो अणकार मुळा पसून चडसो पयस वचचो ना असो म्हजो समज जाल्लो. म्हजेकडेन बंगाली पुस्तक नाशिल्लें. हांव मराठी वयल्यान कोंकणी करपाक लागलों... रामकृष्ण उलयतां उलयतां मदींच एकाद-दुकलें बंगाली भजन म्हणटात. चडशीं भजनां लोकांचे जिब्बेर घोळपी आसतात... ह्या भजनांचो मराठींत अणकार जावंक ना अशेंशें कितें दिसपाक लागलें. म्हूण, हांव निखिलानन्दांचें The Gospel of Shri Ramkrishna घेवन बसलों. **कथामृताचो** अणकार हो... हाच्या आधारान भजनांचो अर्थ म्हज्या अणकारांत करपाक लागलों... हें काम करता आसतना म्हजो आतां मेरेन पुराय अणकार इंग्रजी अणकाराकडेन तर्जून पळोवपाक लागलों आनी एक धसको बसलो. देखीक, सुरवातेकूच एक प्रसंग येता. श्रीरामकृष्णांक म्हणटा, 'मातयेची मूर्त म्हळ्यार कांय देव न्हय, न्हय

'मातयेची कित्याक तर?... चिन्मयाची मूर्त ती...' श्रीरामकृष्ण म्हण

'जालीय जाल्यार, मातयेचे मुर्तींक देव मानपी लोकांक मातयेची म्हळ्यार देव न्हय म्हूण समजावन सांगूंक नाका?'

श्रीरामकृष्ण उबगतात, 'कितें कितें भरलां बरप-अक्षर शिकि कलकत्त्यांतल्या ह्या लोकांचे तकलेंत! उठ्ठात, सुट्टात, लॅक्चरां रावतात. लोकांक समजावन सांगूंक जाय खंय! तुमी कोण गा सम सांगपी? मूर्त मातयेची आसूं, असलेय पुजेची गरज आसा. दे तरांतरांच्या पुजांची तजवीज केल्या. जण एकल्याच्या अधिकाराक तें ताणें केलां. एके आवयक, धरूंया, पांच भुरगीं आसलीं आनी नुस्तें हाडिल्लें आसलें जाल्यार पांचूय जाणांक ती पांच तरांचे प करून घालतली. एकल्याक हुमणांतलो कुडको दितली. दुसऱ्याक त घालतली. तिसऱ्याक सुकें करून वाडटली. चौथ्याक दबदबीत करून दि पांचव्याक आनीक कितें करून दितली.. पांचांकूय पांच तरांचे जि जाका जें रुचत वा पचत तें दितली...' **कथामृताच्या** मराठी अणका नुस्त्याचें भाशांतर बटाटां म्हूण केल्लें पळेलें. देवा, म्हळें, हो भटी भाश अणकार... मराठी भाशेंतलो न्हय. ह्या अणकाराचेर आधारून कोंकणी अ करूंक जायना. मूळ बंगाली वयल्यानूच करूंक जाय. म्हूण, कलक एका इश्टाक बरयलें, बंगाली धाड म्हूण. तें येतासर तीन म्हयने ल हाका लागून म्हजें काम बंद पडलें. आतां, म्हळें, तें परतें सुरू कर अडेज हजार पानांचें पुस्तक. कोंकणींत हाडपाक अडेज वर्सां लाग लागूं दी. तितलें आउक देवान दिल्यार पुरो. पुणून, ज्या मुडांत अ सुरू केल्लो तो मूड परतो येच ना...

*सुरू केल्लें तेन्ना खंयच्या मुडांत आशिल्ले तुमी?*

एक विचित्र अणभव सांगचो पडटलो. पिलारचे सेमिनारींत एक 'सर्व सम मंच' सुरू जाला. वर्स दोन वर्सांतल्यान दोन दिसां खातीर सेमिनार पाद्री कांय हिन्दू, मुसलमान इश्टांक आपयतात आनी तांचे मजगतीं धर्म घडोवन हाडटात. विचारांचें दिवप घेवप थंय जाता. सर्वधर्मसमभा वावर हो. हरशीं, आमी सुरू करपाचो. तांणी सुरू केला. कॅथलीक आतां पयलीं सारकी अशीर मनाची उरूंक ना. उदार जायत वचूंक लाग म्हापशेंच्या तांच्या मेळाव्याक हांव गेल्लों. खिस्ताक तुमी जें 'इंग्लीश गॉ रूप दिलां तें ताका आमचो करपाक आडखळ हाडटा हें तांकां उतरांनी सांगतलों म्हूण आशिल्लों. पुणून मेळाव्याक भाजपाचे, शिव कांय वांगडी आयिल्ले पळेले. म्हळें, हांचे मुखार तांकां वाऱ्यार उ ना. हांव दुसरेंच कितें उलयलों. सगळे धर्म देवान दिल्ले आशिल्ल खरे आनी बरे आसले तरूय घेतल्यात आमी मनशांनी... तेवूय वे वेगळ्या काळांत आनी वेगळ्या वेगळ्या सुवातांनी. म्हूण सगळे अ उरल्यात. अपूर्ण उरल्यात. अपूर्ण धर्म पूर्ण जावंक जाय. ते खातीर वे वेगळ्या धर्मपरंपरांनी वाडिल्ल्या आमी सगळ्यांनी एकामेकां लागसार एकामेकांक समजून घेवंक जाय, अशें कितें उलयलों... रात म्हाका बरोबर सारपाची नाशिल्ली. दिल्लीक गांधी पीस फाउंडेशनचे ब वचपाचें आशिल्लें. हावें मिटिंगेचें 'होम वर्क' अजून करूंक नाशिल्लें. रातचो कळंगुटे डॉ. सुबोध केरकारागेर रावतलों आनी दुसऱ्या दिसा वचून 'होम वर्क' करतलों... कळंगुटे फांतोडेर म्हाका एक भास जा हांवें जाका 'विचित्र अणभव' म्हळा तो हो... म्हाका बाबा दिश्टी पडा

जो बापूय... ताणें म्हाका सांगलें, हो जो वावर सुरू जाला तो वयल्या ल्यान घेवं नाका... तातूंत लक्ष घाल. हांकां **श्रीरामकृष्ण कथामृत** कोंकणींत रून दी... 'विचित्र' गजाल म्हळ्यार बाबान म्हाका हें गुजराती भाशेंत गलें. जागो जालों तेन्ना विचारांत पडलों. म्हळें, कोणाचो काय देवा देश हो? बाबा म्हजे कडेन गुजरातींत केन्नाच उलोवंक ना... सकाळीं कफास्ट करून नीट घरा आयलों. आरमारींतलें **कथामृता**चें मराठी भाशांतर डलें आनी पुराय दीस तें चाळीत बसलों. दिल्लींतसून परतना फुडें णकार करपाक लागलों.

*ो परतो करपाचें मनांत ना?*

सा. जाता कितें जाणा? निजाचें बरोवप सोंपें. अणकार सोंपो न्हय. तरां संस्कृत आसलीं आनी तीं संवकळिचीं-शीं दिसलीं तरूय संस्कृत तरां सगळे कडेन एकाच अर्थान लोक वापरी नात. देखीक, **चेष्टा** म्हळ्यार राठींत भगलो, फकांडां, हिन्दींत बंगालींत 'यत्न'. **यंत्रणा** म्हळ्यार मराठींत शिनरी (सरकारी यंत्रणा). गुजराती, हिन्दी, बंगालींत 'पिडा', 'वेदना'. र्यांटिणीक ज्यो वेणो येतात त्यो 'प्रसूती यंत्रणा'. **भावना** म्हळ्यार मराठी, कोंकणी, हिन्दींत भावना, sentiments. बंगालींत 'हुस्को', 'चिंता' (भावना रे चलबे ना = हुस्को करून उपकारना). भाशेचे बारीक भेद – nuances खबर आसले बगर अणकार सारके जायनात. गुजराती भाशेंतल्या एका स्तकाचो हिन्दी अणकार पळेल्लो. तातूंत 'परसेवो' उतराचो अर्थ 'पर-सेवा', दुसऱ्याची सेवा असो केल्लो पळेलो. गुजरातींत 'परसेवो' म्हळ्यार हूम. 'घडो रंधायो'चो उतरा प्रमाण – literally – अर्थ जाता 'बुडकुलो तयार जालो' पुणून गुजराती लोक 'बुडकुलो फुटलो' ह्या अर्थान ो वाक्प्रचार वापरतात. कोंकणींत जशें कांकण फुटना, 'वाडवता'; दिवो ालयनात, 'वाडयतात' तशें. भास सारकी समजूंक जाय. ते बगर अणकार सारके जायनात. ते भायर **कथामृतां**त श्रीरामकृष्ण उलयतात ती बंगाली शिष्ठ, प्रमाण, स्टँडर्ड बंगाली, 'साधु बंगाली' न्हय. ते लोकांचे जिबेर घोळटा तेच बंगालींत उलयताले. 'चालंत' बंगालींत उलयताले... कोणूय तरी बंगाली भाशेचो जाणकार म्हऱ्यांत आसले बगर कथामृत कोंकणींत हाडलें जाल्यार तें सारकें जातलें असो आत्मविस्वास ना... मेळटलो कोणूय जाणकार, तेन्ना **कथामृत** हातांत घेतलों.

*मागीर?*

म्हळें, अणकार कडेक दवरूंया. ताचे बदला बऱ्या बऱ्या पुस्तकांचो आपरोस काडुंया. आपरोसांत एके तरेची मेकळीक मेळटा. संक्षेपानूय सांगूं येता, विस्तारानूय सांगूं येता... म्हजे भाशेंतूय सांगूं येता. हांवें तॉलस्तॉयचें एक ल्हानशें पुस्तक The Christian Teachings घेतलें आनी दोन तीन सप्तकां लावन ताचो आपरोस काडलो. **तॉलस्तॉयचो प्रज्ञावाद** ह्या नांवान तो 'जागां'त चार खिस्तिंनी दिला. तॉलस्तॉयचें आनीक एक पुस्तक घेतलें... न्हीद खळोवपी... What then must we do नांवाचें. ताचो सात खिस्तिंनीं आपरोस काडलो. थोरोचें Walden आनी रस्किनाचें Unto this Last कडेक काडून दवरल्यांत. तांचोय काडटलों म्हणटां.

*हें सगळें दियात तुमी आमकां पुणून तुमचे कडल्यान आमका आपजीण – आत्मकथा – मेळूंक जाय. आपजीण व्हड मनीस बरयतात, आपूण व्हड न्हय अशें बी तुमकां दिसना मू?*

च्ये च्ये. उरफाटें, मनशान आनीक कितेंय बरोवं वा ना बरोवं, आपजीण बरोवंकूच जाय अशें थोरो भाशेन हांवूय मानीत आयलां. मनशा कडेन दुसऱ्याक सांगपा सारकें निजाचें, मुळावें अशें कितेंय आसता तें ताणें आयुष्यांत जें पळेलें, आयकलें, अणभवलें तेंच. तें ताणें दाखय लिपय करी नासतना मेकळेपणान सांगूंक जाय... दोन खेपे यत्न केले. पयलो, न्नास भर जालीं तेन्ना. तातूंत कोडू अणभवूच चड आयले. म्हळें, कोडसाणेचेर जैत जोडले बगर बरोवप ना. धा वर्सां उपरांत परती बरोवपाक घेतली. पयली लासून उडयली. शें देडशें पानां बरयलीं. म्हळें, फुडलें बरोवचे पयलीं बरयलां तें कोणाकूय वाचूंक दिल्लें बरें. सुमंत केळेकाराक वाचपाक दिलें. सुमंत एक चिकित्सक संपादपी. वाचप्यांक कितें दिवचें, कितें दिवचें न्हय हे विशीं जागरूक. बरयलां तें ताणें वाचलें आनी म्हळें, 'यँऽ, असल्यो आपजिणो सगळेच बरयतात. असलें बरोवपांत अर्थ ना... नवे तरेन बरय...' कितें करतलों? तेंवूय पिंजून लासून उडयलें. मनांत भितर खंय तरी चुकतां चुकतां शें दिसपाक लागलें. गोंयच्या तीन चळवळीं कडेन म्हजो लागिंचो संबंद आयला. एक, गोंयचे सुटकेची. दुसरी, मेकळ्या गोंयांत महाराष्ट्रान 'घरच्या भेदी' लोकांक घेवन सुरू केल्लें आक्रमण परतून लावपाची आनी तिसरी, कोंकणीक तिचे हिन्दी, मराठी, बंगाली सारके भयण-भासांचे पंगतीक व्हरून बसोवपाची. म्हजें पुराय जिवीत ह्या तिनूय चळवळिंच्या आडव्या उब्या धाग्यांनी विणून आयलां. कितल्याश्या लोकां कडेन लागिंचो संबंद आयलो. जांकां लोक व्हड लेखतात ते कितले सकल देंवतात तें पळेलें. आनी जांकां लोक किरकोळ मानतात ते केदे व्हड आसतात तेंय पळेलें. ह्या चळवळिंचो इतिहास कोणूय बरोवंक बसलो जाल्यार हांव जाणां, त्यो गजाली तातूंत येवच्यो नात. त्यो उगडासाच्या पुस्तकांतूच येवपाच्यो. हांवें म्हजे उगडास बरयले नात जाल्यार फुडल्या पिळग्यांचेर अन्याय केल्ले वरी जातलें. आवा शिवा करून तिसरे खेपे बरयलें आनी **गवाय, एका कल्पांताचो** ह्या नांवान तें एकतीस खिस्तिंनी **सुनापरान्तां**त दिलें. धा पंदरा खिस्ती बरोवपाच्यो उरिल्ल्यो. म्हळें, फुडें केन्नाय बरोवच्यो. आनी बरोवपाचें स्थगीत दवरलें. ताचेर कांय वर्सां वचूंक दिलीं. एक दीस छापून आयिल्लें परतें घेवन बसलों. कांय जाणांनी तातुंतल्यो त्रुटी दाखयल्ल्यो. म्हजेय नदरेंत कांय भरल्यो. सगळें नव्यान बरोवन काडलें आनी तें **पांथस्थ** नांव दिवन 'राजहंस वितरणा'क दिलां. येतलें, ह्या दिसांनी.

*तुमचें जाग प्रकाशन आसतना इतलें म्हत्वाचें पुस्तक राजहंसाक कित्याक दिलें?*

राजहंसाक दितां म्हूण उतर दिल्लें म्हूण दिलें.

*तातूंत तुमचे सगळे उगडास आयल्यात?*

ना... **कल्पांतां**त आयिल्ले तेच सारके करून दिल्यात... हांगा थंय आपटत धोपटत वर्ध्याक पावलों ते मेरेनचे आयल्यात.

*उपरांतचे केन्ना बरयतले?*

थोडेशे बरयल्यात. बरेचशे बरोवपाचे उरल्यात. वर्स देड वर्सांत बरोवन काडटलों म्हणटां... गोंयची सुटका जाली ते मेरेनचे उगडास बरोवन थांबतलों म्हूण आसां.

*ताचे फुडलें बरोवपाचें मनांत ना?*

उपरांतच्या काळांत गोंयच्या रासवळ मळार हांव निखटो **पांथस्थ** उरूंक ना. Participant जालां, वांटेकार, हिस्सेदार जालां. सदां आघाडेर रावन वावुरलां. जें कितें घडलां तें घडोवन हाडपांत म्हजेंय थोडें हातबोट लागलां. जाता कितें जाणां? मनीस आपणें केलां ते संबंदान कितेंय सांगपाक लागता तेन्ना केन्ना केन्ना ताका चत्राय उरना. तो आत्मकेन्द्रीत जाता. आनी भीड मुरवत धरी नासतना आपणेंच जशें कितें सगळें केलें, आपणाकूच लागून सगळें घडलें असो समज करून घेता. हालिंसाराक ओपीनियन पोल आपणें हाडलो, कोंकणी आपणें केली, तिका साहित्य अकादेमींत आपणें पावयली, राजभाशेच्या पाटार आपणें बसयली, आठवे वळेरेंत आपणें व्हेली अशें खासा म्हाका – हे चळवळींत सदां आघाडेर रावन वावुरिल्ल्याक – सांगपी कांय जाण मेळ्ळ्यात. हांव म्हजे उगडास सांगपाक लागलों जाल्यार हांच्या पांवड्यार देंविल्ले वरी जातलें. म्हाका इतले सकयल

देंवपाचें ना. म्हजें म्हणणें इतलेंच, कोणाकूय लागून जावं, ओपीनियन पोल आयलो मू? तो आमी जिखले मू? साहित्य अकादेमींत कोंकणी पावली मू? आठवे वळेरेंत वचून बसली मू? कोणाचोय कोंबो आड्डूं, फांतोड जातकूच जाली. गुजराती संतकवी नरसिंह मेहताच्या एका भजनांतलें एक कडवें म्हाका येवजता. 'हुं करूं, हुं करूं एज अज्ञानता / शकटनो भार जेम श्वान ताणे' – उबाळाचे दीस. सोंसूं नज हे तरेचो उजो जातालो. एक सुणो जीब भायर काडून रस्त्यार सावळी सोदीत उबो आशिल्लो. सावळी खंयच नाशिल्ली. अवचीत एक बैलां गाडी येता ती तो पळेता. गाडये सकल ताका सावळी दिश्टी पडटा. सुणो हे सावळेक वचून रावता. गाडी मुखार चलत वता तसो तोय मुखार वता. बरोच मुखार पावतकूच 'ही पळे, गाडी हांवें खंय मेरेन ओडून हाडली ती' अशें आपणाकूच भासोवंक लागता. खूब जाणांचें अशेंच जाता. आयुश्यांत केन्नाय तरी एक सिक्सर मारतात. उपरांत एक लेगीत रन काडिनात. बॅट घट्ट धरून ग्रावंडार दिग उबे रावतात. आनी मॅच सोंपतकूच आपुणूच 'मॅन ऑफ द मॅच' म्हूण मिरोवंक लागतात. मॅच एकलो जिखिना. इकरा जाणांचें तें सामुदायीक कर्तुत्व आसता. तसो, ओपीनियन पोल कोण एकलो हाडिना. आनी एकलो कोण जिखिना. जिका लिपी ना, व्याकरण ना, जिच्यांत साहित्य ना म्हूण सगळे हिणयत आयिल्ले तिका एकलो कोण साहित्य अकादेमींत पावयना. एकलो कोण तिका राजभाशेच्या पाटार बसयना. एकलो कोण आठवे वळेरेंत पावयना. धा जाणांच्या कर्तुत्वान असल्यो गजाली घडटात. कोंकणीक आयज जी सुवात मेळ्ळया ती तिका धा जाणांच्या कर्तुत्वान मेळोवन दिल्या. धा जाणांनी कितलींशीं वर्सां संघर्श केला. सभा घेतल्यात. मोर्चे काडल्यात. जळजळीत उलोवपां केल्यांत, लेख बरयल्यात. तोमातां त… खाल्यांत, गुंडे झेलून घेतल्यात. अवमान सोंसल्यात, सत्याग्रह केल… लाठयो खाल्यात, बंदखण भोगल्या तेन्नाच ओपीनियन पोल येवंक प… आनी आमी तो जिखूंक पावल्यात. तेन्नाच कोंकणीक तिचें हकाचें ज… मेळूंक पावलां. तेन्नाच ती मान्यताय जोडूंक पावल्या. समाजांत … बदल असल्याच mass participation उपरांत घडून येतात. संघ… मात लेगीत लावन घेनासतना कोणूय आपणें हृषिकेशाक वचून ओपीनि… पोल हाडलो, आपणें कोंकणी केली म्हणटा तेन्ना तो हांशाक म्हारग जा… **म्हूण म्हणटां, कोंकणी खातीर जाल्ल्या संघर्शांत कितें घडलें तें… पिळगेक कळूंक जाय. तुमचे हे विशिंचे उगडास तुमी आमकां ब… दिवंक जाय.**

आयज आमची एक युनिव्हर्सिटी आसा. भुरगे पी.एच्.डी. करतात. … हो विशय घेवचो. **गोमंतक, राष्ट्रमत, नवहिन्द**च्यो फायली चाळच्यो… मुस्तींतल्या लोकांच्यो मुलाखती घेवच्यो आनी ह्या विशयाचेर संश… करून बरोवचें. उपरांतूच हांव कितेंय बरयन. उगडास केन्नाच बर… ना अशें थारावंक ना. पुणून तुर्ताक व्हडलिशी उमेद ना. प्रेरणा जा… जाय. बरयले बगर रावं नज अशें दिसूंक जाय. तेन्ना लिखणी अ… हातांत घेतलों. **पांथस्थ** हांवें बरयलां तें सुटके झुजाचेर कांय पुस… उजवाडा आयले उपरांत. तीं वाचून बरयलां. कांय गजाली लोक नव… त्यो सांगपाक. कोंकणीच्या संघर्शाचो इतिहास अजून कोणेंच बरोवंक… वाट पळेतात लोक ह्या इतिहासाची. मागीर, तातूंत येवंक ना तें सांग… घडये इत्सा जायत म्हाका.

❋ ❋❋

# शेकडेकारनीचे पांडव

मिलिंद म्हामल

केंस कातरूंक गांवच्या म्हाल्याकडे नंबर लावन बसललंय. म्हाज्यापयली
रजाण आधीच बसल्या कारणान बरोच वगत रवांचा पडलां. बसल्या
ल्या बरेच खबरी कानार पडले.

माजो नंबर लागलो त्यांवा, 'शेकडेकारनीचा चेडू कोणाबरोबर तरी पळान
त्याची' कोणीतरी बातमी हाडली आनी सगळ्यांच्या प्रश्नान ती रंगत गेली.

"खंयचा, धाकटां?" एकट्यान तोंड उघडला.

"धाकटाच आसतांला, बेळगांवाहार गेली खंय पळांन."

"माका डावट आसलोच, तां एकटाच साधारण दिसां रे, बाकीची सगळी
डा मरे ती, त्यांका कोण व्हारता पळौन?" दुसऱ्यान फोडणां घातला.

"कोणतरी मुसलमान दिसता!" बातमीकारान सगळां सांगान सोडला.

"मुसलमान? आनी कोणच गावांक ना काय रे त्याका?" तिसऱ्याचो
श्न.

"आसानी रे कोणय, सुटला बाबडा. आता आसत तेंची लग्ना जातत
णतंय तू? आवय काय करतली बाबडी? पाचंय चेडवा! आता वर्सां
तकी जाली रें? थोरलां चाळीसावेर पावला मरे! दिसपाक तरी बरीं
सत? सगळी सुकान सॉल जाली मरे, ह्या पळान गेलां ता एकटाच
रापीठ आनी भरलांला आसंला." चौथ्याक दया इली.

"शेकडेकारनीचे बाकीचे पांडव तशेच उरले, निमण्या सहदेवान चान्स
रलो." पयल्यान बातमी रंगयली.

माजे केस कातरून जाले आनी मी शेकडेकारनीचो इचार करीत घरा
वलय.

दोनपारां जेयताना आईन शेकडेकारनीकडे वचान दुसऱ्या दिसा सानचे
ल लागी करपाक आफयल्या म्हूणान सांगपाक सांगलां. माजेर प्रेशर इलो.
ता चेडवाची खबर कळंल्याउपरान शेकडेकारनीक कामांक बोलंयतलय
सों? आईक मी सगळां सागांन सोडला आनी शेकडेकारनीचो इचार सोडून
लो.

आमच्या भाटान पन्नास माड आसत. तेचो पाडो करपाक पाडायांक
गलाला. दर येळा शेकडेकारनींक सांगल्या उपरान ती नाल लागी करपांचा
म करी. म्हयन्या दोन म्हयन्यानी ज्या येळार पाडो जाय त्यांवा नाल
ा हाडपाच्या निमतान शेकडेकारीन घरा येय आनी आईकडे चार गोष्टी
ी. चेडवांची लग्ना कशी जातंली हेचीच तिका काळजी. आईन काय
वपांक दिला तर खाल्ला आनी आपले मजुरेचे पाच नाल घेवन शेवटाक
पल्याच कर्मांक दोष दीयत ती घरा वचा.

तसां शेकडेकारनीचा घराणां तिच्या मावांच्या काळार म्हणजे नाना
कडेंकाराच्या काळार एकदम श्रीमंत. घरची भरपूर शेती आसली आनी
बरोबर नाना मोठो कॉपर चलवपी. लोंकाचे वस्तू ना जाल्यार दागिने
ा दवरून शेंकड्यांच्या हिशेबान रीना दीवपी. म्हूणान ते शेकडेकार. खरांतर
त्यांचा आडनाव पेडणेकार पूण आजूनय त्या घरातल्या लोकांक शेकडेकार
म्हूणानच ओळाखतंत. पूण आज त्या घरान दादलो माणूस ना म्हूणान
शेकडेकाराच्या सुनेक ह्यां नांव आज चिकटान रवंला.

नाना शेकडेकाराक दोन चेडवां आनी एक झिल पांडुरंग. दोगाय चेडवाचीं
लग्नां महाराष्ट्रांन करून दिली आनी झिलाचा लगीन क्यॉल्या उपरान नाना
पाच वर्सांनी हो संसार सोडून गेलो. त्या उपरान वर्साभितर बायलय सोपली
आनी घरची सगळी जवाबदारी पांडुचेर इली. पूण बापायचो धंदो काय त्याका
जमलो ना. सोरो आनी जुगार खेळत घरातले एकएक वस्तू हळूहळू तेनी
इकून उडयले. शेवटाक शेतंय इकपाचो पूण शेकडेकारनीन तां इकपाक
दिवंक ना. ओळीन पाचय चेडवांच जाल्या कारणान तेचे खातीर
शेकडेकारनीकच दोष दीयत पांडू तिका गाळी घाली आनी मारझोडय करी.

धाकटां पाच वर्सांचा आसलां त्यांवा पांडु शेकडेकार कामीन जावन मेलो.
आता सगळी जवाबदारी शेकडेकारनीचेर. शेतभात आनी कोणांयचा हलक्या
फुलक्या काम करीत शेकडेकारनीन आपल्या परिन संसार उभो क्याला.

नाल्लांच्या पाड्याखातीर पाडायी इले आनी तेंचे बरोबर शेकडेकारीनय
आपली पाटली घेवन सामकी भाटान इली. पूण सदचेभाशेन पयली आमच्या
घरा येवंक ना. आमी तिका सांगाक नसल्याकारणान नाल लागी करपाची
तयारी दवरली. लांबसून तिका बघल्या उपरान मी आईक तसां सांगला.
त्या खातीर आईन भाटान येवपाचा टाळलां.

पाडो जाल्या उपरान शेकडेकारनीन सगळे नाल घरा हाडून उडयले
पूण कोणांवांगडा बोलांक ना आनी आपले वाटेन चलत रवंली; त्यांवा आईन
तिका उलो मारीत म्हूटलां,

"शेकडेकारनी तुजे नाल व्हॉर."

शेकडेकारीन परत इली तसां आईन इचारलां, "आज काय बोलांक
ना मगे तू? काय जाला?"

तिका इकदम रडांक इला. आईन तिका घरा हेली आनी च्या दीली.
आनी शेकडेकारीन सांगाक लागली.

"काय सांगा कराम माजा. धाकट्यान तोंड दवरूंक ना म्हाका, गेला
पळांन."

"खबर कळली म्हूणान आयज बोलवंक नसलय तुका." – आई.

"पाडायानी वाटेर सांगला म्हूणान इलय, काय करतलंय."

"बरां केलंय इलय तां. चेडवान तुका वयताना सांगांक नसला?"

"सांगा आसला. आनी कोणाय बरोबर गेल्लां तरी मीया काय म्हूणचय
नसलंय. मी त्याका सांगलय, आनी कोणय कर पूण मुसलमान नाका. पूण
माजा आयकांक ना. तडे करासवाड्या फॅक्टरीन गेल्लां चार म्हयने कामांक.
थंयच लफडा क्यॉला. तशे ह्याकाचं सगळे सोयरीके येयत. पूण थोरल्यांक
सांणून धाकट्याचा कसां करू? म्हूणान दोन तीन मोडून उडयले. सगळी

सुकान गेली माजी पॉरा.''

''ह्या थोंडा गोरा आसला न्हू ?''

''काय सांगतंलय सायबिणी, मीयां कोणाक क्यॅवांच काय सांगाक ना. तुका म्हूणान सांगतंय, ओळीन चार चेडवाच जाली. हो काय ना, आपलो घेवन घेवन टायट. आनी प्रत्येक फावटी चेडवांच जातत म्हूणान मारून मारून माजो जीव घेय. देव केलो, धरम केलो. बुवा बाबाकडेय घेवन गेलो पूण कायच फायदो जालो ना. आसलोलो पैसो मात व्हगडायलो. मगे काय करतलंय शेवटाक माकाच पाप करपाचा पडला, पूण नशिब बघ, तांय चेडूच जाला.''

''शेकडेकारनी ह्यां काय सांगतय ?''

''आनी कोणांक सांगा. काय करतलंय आसलंय, एकदाच पाप क्याला. तसां करताल्याक सांगानच क्याला, तेचे उपरान मी तेचेकडे वचांक ना आनी तेनीय माका फुढे त्रास दिवंक ना, तोय गेलो मरान.'' शेकडेकारनीन सगळां वाकान उडयला.

''जावनी आता शेकडेकारनी, जालां ता बरां जालां म्हूण. जातपात आनी मानपाची न्हू. पॉर सुखान आसला काय जाला.''

''आता काय करतलंय, बरे तरेन आसला जाला पॉर.''

आईन तिका नाल दिले आनी ती घरा गेली.

त्याउपरान म्हयनोभर गांवान शेकडेकारनीच्या पांडवांचीच चर्चा आसली. घरान कोण दादलोमाणूस नसल्या कारणान शेताची सगळी कामा, नागंरुपापासून तां तानुळ घरा हाडीपर्यंत शेकडेकारनीची चेडवांच करीत. काय जणांक चेडवां नांगरतत ह्या बघून आजाब दिसा तर काय जाणांक कौतुक. सगळीजाणा एकदम भाताचे पिशये नाजाल्यार भाताचीं पेंडका घेवन चलांक लागल्या उपरान लोक म्हूणत, ''ते बघा, पांडव चलले वनवासाक.'' लोक फकाणा करतत म्हूणान त्यांकां राग येय आनी मगे बोलणाऱ्याच्या नावान गाळी घालीत तीं घरा वचत.

पाड्याच्या निमतान ती परत एकदा घरा इली. येताना एक पोती भात घेवन इली. आईन तां कित्याक हाडलंय असां इचारतकत शेकडेकारीन सांगाक लागली,

''चौगांय जाणा नाणिज वचांक सोदतत, कोणीतरी सांगला तेचेकडे एकदाच वचान येयात म्हूणान, त्याकाच भुलली. कोणतरी गुरू गावलो त्यांका. आता मीयाँ काय थोडे बाबा केले. हे बाबा काय करतले गे. नशिबान आसा तांच मेळतांला. सगळी सुकान सॉल जाली. वर्सांय वाढली. आतां काय करपाचा. पूण जावनी, आशेचो जीव. दोनशी रुपया दिवंक जातत काय बघ, बाकीचे मी बघतय कशे जमा करपाचे ते. आमी शेकडेकारां खंय. माव आसलो त्यांवा लोकांक शेकड्यांनी रीना दिय आसलो लोकांक, आता नावंच उरला आनी माजेरच मागपाची पाळी इली. ह्या पोतीभर भात दवर.''

आईन तिका पैशे दिले आनी शेकडेकारीन घरा गेली.

गावांन स्वामी नरेंद्रमहाराजांचे भक्तगण दिसान दिस वाढत आसले. महाराजांचे प्रताप आयकान त्यांकाय मगे आशा दिसली आनी शेकडेकारनीची चारय चेडवां नाणिजाक गेलीं. चौगाय जाणांनी नाणिजचे सात वारये केले पूण चेडवांची इस्सा पुरी करता करता शेकडेकारीन मात थकत गेली.

गांवच्या म्हाल्याकडे बसलंलय थंय एक नेयी बातमी कानार इली.

''अरे तां शेकडेकारनीचा चेडूं परत इला खंय !''

''खंयचां, तां पळान गेल्लां ?'' बसलाल्या एकाचो प्रश्न.

''घवान सोडला खंय त्याका, एक वर्सांचा भुरग्यांय आसा खंय बरोबर !''

मी केंस कातरून जाल्या उपरान तसोच घरा इलय आनी शेकडेकारनीच्या पांडवांच्या परत एकदा एकठांय वनवासाचेर इचार करीत रवलंय.

* * *

# स्काय इज द लिमीट

निलबा अ. खांडेकार

(एक कोर्ट चालू आसा. स्पॉट लायट मास्तराचेर. लोकांचें फुतफुतप.)

न्यायमुर्ती : (मेजार तुतयो मारीत) ऑर्डर... ऑर्डर... मास्तर, तुमकां कितें उलोवपाचें आसा ?

मास्तर : हांव उलोवपाक सोदतालों तेन्ना तुमी म्हाका उलोवपाक दिलो ना. आनी आतां...

न्यायमुर्ती : तरी...

मास्तर : एक फॉरमालदाद म्हण. आसूं... तऽर न्यायाधिराज, हांव खंयच्या विशयाचेर उलोवं ? (लोकांचो हांसो)

न्यायमुर्ती : ऑर्डर... ऑर्डर ! मास्तर...

मास्तर : हें न्यायालय न्हय, म्हाका खबर आसा. हांगासर मनीसपणाचो पावला कणकणी खून जाता. न्यायाक अन्यायाखाला चिड्डितात. अजाण मनशांचीं जिवीतमुल्यां धिस्पटावन ताका संवसाराच्या विराट काळखांत सोडटात. आनी थंय तुमचे सारके विखारी सोरोप आपल्यो फणा घेवन उबे आसतात. (लोकांचें फुतफुतप.)

न्याय. : मास्तर, हांवें तुका कित्याय कितें उलय म्हूण सांगूंक ना.

मास्तर : हें कित्याय कितें न्हय. हें सत्य. रखरखीत सुर्या इतलें सत्य. खरे गुन्यावकारी तुमी. साद्या बावड्या मनशांक वायट मार्गाक लावपी. म्हुण्णूच हांव एक सुशिक्षीत, अक्षरांचो धनी समेस्त समाजाक आड्डून सांगतां, 'न्याय ही वस्त समाजांतल्यान केन्नाच ना जावन गेल्या. पैशांच्या बाजारांत सत्याची विक्री जावंक लागल्या आनी मनीसपण घरांच्या वण्टिंनी हँगराक हुमकळत पडलां. स्वार्थ मनांत धरुनूच तुमी बीन काळजांनी जगात. तुमचें जगप फकत तुमचे खातीर आसूं दी. दुसऱ्यान गाय मारली जाल्यार आपणें तागेलीं सगळीं गोरवां मारून उडोवपाचीं. पूण न्याया खातीर... न्याया खातीर हांगा केन्नाच हात पसरुपाचे न्हय. न्यायाधिराज, तुमच्या मनीसपणाचो पांवडो कितलो देंवला हें तुमी समाजाक दाखोवन दिलें. पूण म्हज्या कुड्ड्या समाजाक हें कळ्ळां काय कोण जाणा !

वकील : ऑबजेक्शन मिलॉर्ड ! मास्तर लायन सोडून उलोवंक लागला. ताका आळाबंदा हाडात, समेस्त समाजाक ताचें उलोवप आदर्श जावं येता. मास्तराचें उलोवप समाज विघटनाचें. आनी कायद्यान हाचेर सक्त मनाय आसा.

मास्तर : वकील सायब, तुमचो फकत वेवसाय वकिलिचो. न्याय-अन्याय तुमकां खबर ना. पैशां खातीर अन्याय लेगीत न्याय म्हण तुमी सिद्ध करतात. ते खातीर ह्या मास्तराच्या उलोवपांत मर्दी येवं नाकात. हांव म्हाका फाव जाल्ले ख्यास्ती खातीर कांयच सिद्ध करून दाखयना. हांव इतलेंच आंवडेतां, म्हजो आदर्श ह्या समाजान उखलून धरचो. हांवें पुराय जीण न्याय आनी सत्य जोडपाकूच घालयली म्हूण म्हाका ही ख्यास्त मेळ्ळी. हांव ख्यास्ती बद्दल खंती ना. तुमी खूब खंती आसात. तुमी भिजूड. ही ख्यास्त म्हाका तुमी दिवंक ना. तुमचेर --

वकील : मिलॉर्ड ! मास्तर आपणाक व्हडले समजतात. हें तांचें नस्तें उलोवप चालू दवरून आमी आमचो कामाचो वेळ फुकट घालयतात अशें तुमकां दिसना ?

मास्तर : हय. सत्य आंगार येतकीर अशेंच येवजता. आतां म्हज्यांतल्या घुस्मटमाराच्या हुंकाराचें एक न्यायालय जातलें आनी त्या न्यायालयांत तुमचे सारके देश विघटक, लोकद्रोही, समाजकंटक फांसार चडटले. त्या न्यायालयाचो धनी हांव आसतलों... हांव आसतलों... हांव आसतलों. (उतरां गाजतात)

न्याय. : (आपणाकूच) मास्तर... मास्तर, म्हाका माफ कर. हय, हांव भियेल्लों... हांवें मनीसपणाचो गळो दांबलो. आय ॲम सॉरी मास्तर...

(मास्तराक बंदखणींत व्हरतात)

शिपाय : मास्तर, खरें सांगूं, तुमच्या हातांत अश्यो बेडयो घालतना म्हाका सुद्दां वायट दिसलें. पूण कितें करतलों ? मास्तर, तुमी जें आयज समाजाक उल्लेखून कोर्टांत उलयले तें पयलींच तुमी चितिल्लें आनी आपणायल्लें जाल्यार तुमचे सारको मनीस आयज असो सरयां आड जावंचो नाशिल्लो. ह्या लंगड्या समाजाक तुमची गरज आसा मास्तर. तुमी चडशें बरें चिंतताना थोडेंशें वायटूय चिंतपाचें. (थांबून) ज्या चिंतपान समाजाचें बरें जावं येता, तें चिंतप केन्ना वायट जावं येता व्हय ?

मास्तर : हय इश्टा ! (उस्कारता)

शिपाय : हें अहिंसेचें रामराज्य न्हय. हें रावणाचें राज्य. हांगा सत्याक न्यायाक कोण विचारिना. समाजांत प्रगती करतलो जाल्यार नाडपणां आनी फटींगपणाचोय केन्ना केन्ना आधार घेवचो पडटा, तीं आपणावर्ची पडटात. विखान वीख कातरता न्हय मास्तर...?

मास्तर : (लांब उस्कारता)

शिपाय : चल मास्तर, हो तुजो बंदखणिचो थांबो. हांगा काळखा बगर तुजो वांगडी कोणूच ना. हांगा फकत दोळेभर काळोख पळोवपाचो, पोटभर काळोख रिंगोवपाचो आनी खोंटलोभर

काळोख तकलेर घेवपाचो. तरीय मास्तर, कित्यायचीय गरज पडली जाल्यार फार्टी-फुडें सरूं नाकात.

मास्तर : (हांसता)

✻ ✻ ✻

दोतोर : मास्तर, तुमी?

मास्तर : अूंहऽऽ हय. तूंऽऽ.

दोतोर : हांव हांगचो कैद्यांचो दोतोर. फार्टींच म्हजी हांगा ट्रान्स्फर जाल्या. तुमची बलायकी बरी ना म्हूण म्हाका आपोवंक धाडिल्लो.

मास्तर : तुजीं आवय-बापूय कशीं आसात?

दोतोर : तीं बरीं आसात. पूण... तुमी बंदखणींत?

मास्तर : अजाप दिसलें? ह्या देशाचे प्रधानमंत्री लेगीत बंदखणींत पडटात. तेवूय बी बेइजत जावन. हांव एक सादो मास्तर. आनी गुन्यांवकाराक ख्यास्त जावंकूच जाय.

दोतोर : ना मास्तर, तुमचे कडल्यान गुन्यांव जावंचेच नात. हांव तुमकां ल्हानपणा सावन वळखतां. (थांबून) पूण तुमचे कडल्यान अशें कितें घडलें म्हूण तुमकां हांगा हाडून घाले?

मास्तर : हूंहऽऽऽ कितलें म्हूण सांगूं? अमकोच असो एक गुन्यांव ना.

दोतोर : तरी...

मास्तर : हांवें समाजांत बंड केलें. समाजांतली श्रद्धा ना करपाचो यत्न केलो. गांवच्या भाटकाराक मार्क्साचो मानवतावाद समजायलो, लेनीनाची क्रांती दाखयली. तरनाट्यांच्या मनांत सत्याचे सुरींग पेटयले. गांवच्या देवळांचीं दारां समाजाक उकतीं केलीं. अजाणांक मनीस आनी जनावरांमदलो फरक दाखोवपाचो यत्न केलो. व्याभिचार उकताडा हाडले. भाटकारालो गांवावेलो शेक हालयलो. इतल्या सगळ्या गुन्यावांचो धनी हांव.

दोतोर : (उस्कारता) हाय रे म्हज्या देशा. कसले दीस आयले हे! (शांत) मास्तर, तुका कितली खास्त जाल्या?

मास्तर : सद्या चारूच वर्सां!

दोतोर : म्हळ्यार?

मास्तर : चार वर्सांनी सुताभशेन नीट जालोंना जाल्यार हुकुमशायेची सनद आनिकूय मेळूं येता.

दोतोर : ह्या चार वर्सांचो एकान एक दीस म्हत्वाचो. ते म्हणसर... जिवे मनीस जिवे आसतनाच मरपाक पावतले.

मास्तर : आनी तुज्या दोळ्यांतले प्रतिक्षेंत तुका तुज्या गांवच्यो अस्थी मेळटल्यो, अशेंच न्हय?

दोतार : म्हुण्णूच आमच्या गांवा खातीर आमचे खातीर तुमी आमकां जाय.

मास्तर : बऱ्याची अपेक्षा फकत बऱ्यां कडल्यान करतात. बरे आधारहीन जायनात. बरे अशे बंदखणींत पडनात...

दोतोर : मास्तर, अशें कितें उलयतात तुमी?

मास्तर : सत्य!

दोतोर : ना मास्तर, तुमचे बगर गांवाक आनीक सत्य आसुंकूच शकना. म्हाका सगळें खबर नासत. पूण तुमच्या अक्षरांक लागुनूच तर आमचो गांव परजळावस्थेक पाविल्लो.

मास्तर : चूक. म्हजे विचार आतां हांवें बदल्ल्यात. जिवितांत नामना मेळोवपाचे म्हजे उमेदीक आतांच केन्ना तरी पांखां फुटूंक लागल्यांत.

दोतोर : विचार घडये बदलूं येतात. पूण मनीसपणाचीं मुल्यां स्थि उरतात तीं वायटाचीं रुपां आपणायनात. मनशांच्या आत्म्या अक्षरांच्या काळजांत ओतपी तुमी त्या भाटकारा सार जावंकूच शकनात.

मास्तर : भाटकार? भाटकार म्हळ्यार तुमचो सुखकर्ता-दुखहर्ता. ता केंस लेगीत हालोवपाची तुमच्या कोणांतूच तांक ना.

दोतोर : सगळ्यांक एकेच राशीर घालूं नाका. मास्तर, तूंच दार तांकां जैताची दिका. (थांबून) मास्तर, आमी तुजे सुट खातीर हायकोर्टांत अपील करूंया.

मास्तर : म्हजे सुटके खातीर? (हांसता) जो बंद आसता तोच सुट जो मुक्त आसता ताचे सुटकेचो प्रस्नूच येना.

दोतोर : मास्तर, तुमी अशे कुवाड्यांनी कित्याक उलयतात? म्हा कांयच कळना.

मास्तर : घडटा तें तुमी आतां फकत पळेत रावात, पळोवपाची इ आसा जाल्यार.

दोतोर : मास्तर, तुमी म्हाका परकी समजूं नाकात. तुमच्या काय म्हजी खंयूय गरज पडली जाल्यार हांव तें म्हजें भाग समजतलों. सत्य ना जावंक जायना. तें केन्ना ना जायना

मास्तर : (शांत) हांगासल्लें सगळें सत्य काबार जालां. काळखां ह्या मळार जनावरांचें राज्य चलता. तांकां जनावर जाव बुद्द शिकोवपाक जाय.

दोतोर : मास्तर?

मास्तर : ज्या दिसा ह्या मास्तराच्या हाताक बेडयो पडल्यो त्या दिसा मास्तर ह्या नांवाचेर लेगीत हांव कळंक जालों. मास्त समाजांतलो एक प्रतिष्ठावंत. ताका ख्यास्त जाली त्याच दि ह्या मास्तराची लज आनी मान सोंपलो.

दोतोर : ना मास्तर. तुमच्याकूय बरें चिंतप म्हजें नासत पूण हे तु विचार समा न्हय.

मास्तर : म्हजे वीस वर्सांचे मास्तरकिचे अणभव आनी व्हडपण कस लायलें जाल्यारूय हांगसल्ल्या काळखांत तें खंयच दि पडपाचें ना. म्हाका काळखांत वचूंक जाय, काळोख जाव सगळीं उजवाडाचीं कवडां धांपून.

(मास्तराच्या उतराक प्रतिध्वनी)

✻ ✻ ✻

(भाटकारालो बल्कांव)

भाटकार : येयात, येयात मंत्री सायब. बरेच ताकतिकेंत दिसतात.

मंत्री : हय हय. मास्तराक काल तुमी सांगिल्ले प्रमाण बरोच लो घालो. मास्तरान सगळो मार मोन्यांनी सोंसलो आनी रात.

भाटकार : (तोंडार हांशें हाडून) चल बरेंच जालें...

मंत्री : कितें बरें जालें? (ल्हवूच) मास्तर पळून गेले. बंदखणींतल्या

भाटकार : प्रभाकरन, तुमी अशे हालून कित्याक वतात? मंत्रीपणी तुमची पोज तुमी सांबाळात. पडट्या खिणाक लेगीत तुमी पोज धील जावंची ना हाची जतनाय घेयात.

मंत्री : भाटकारा, म्हाका खबर आसा तुमचे म्हजेर कितले उपा आसात ते. ह्या जल्मांत तरी त्या उपकारांतल्यान हांव मुक्त जावंचो ना. हांव हे मातयेंत जल्मलां आनी हे मातयेंत वाडां. तुमी फुड्यांत घेतलो, आपलेपण दिलें. आपले हात म्जे तकलेर धरले. आनी हांवें सुखी संवसाराचीं सपनां पळे.

भाटकार : शीऽ शीऽऽ अशें म्हणूं नाका. मंत्री तुमी ह्या देशाचे एक

जबाबदार फुडारी आनी तुमचे सारक्या फुडाऱ्यांचेरूच हो देश चलता.

त्री : तुमचे सारके भाटकार आसल्यारूच न्हय? (हांसतात) पुण भाटकारा, मास्तर खऱ्या रगताचो मनीस.

ाटकार : (हांसता) खरें रगत, म्हळ्यार रें?

त्री : निष्ठावान, धीरगंभीर...

ाटकार : (मर्दीच) मास्तराची तोखणाय नाका. कसलो मास्तर आनी कसली निष्ठा! मास्तरान आमचें कितें करचें पडलां, आं? ऑर्डर काड, जंय खंय मास्तर दिसता थंयच ताका चिड्डून उडोवपाचो.

त्री : हय भाटकारा, तुमी सांगतात तशेंच जातलें. पूण भाटकारा...

ाटकार : हें 'पूण' मर्दी हाडपाची तुजी संवंय मात तशीच उरली आं. उलय, कितें सांगूंक सोदता तूं?

त्री : कांय लोकांनी म्हज्या राजिनाम्याची मागणी केल्या.

ाटकार : हूंऽऽ! राजकारणांत अशें जावपाचेंच. अश्यो चडट्यो-देंवत्यो आयले बगर मनशाचें म्हत्व कळना. आतां तुजेर विधानसभेंत चर्चा जातली. तूं अशें कर. बोबो मारतल्यां भितर फुडें जे उबे आसात तांकां विकते घे. हांव आसां तुजे फाटल्यान. पूण कदेल सोडूं नाका.

त्री : स्वातंत्र्य सैनिकांची संघटनाच चड उडयो मारता.

ाटकार : चोर, चोर ते. खंयचें स्वातंत्र्य मेळयलें खंय तांणी? हांव ज्युस्त वळखतां तांकां. चोरी, गुंडगिरी करून भितर पडिल्ल्याचीं कागदां आसात तांचे कडेन. तातूंत तो वासू आसा मरे?

त्री : हय. तोच ते संघटनेचो अध्यक्ष, भाटकारा.

ाटकार : (तोंडार रूच हाडीत) तागेली चली सुंदर दिसता खंय मरे न्हय?

त्री : (उमेदीन) हय.

ाटकार : पूण कदेल सोडूं नाका.

त्री : तुमचे आशिर्वाद आसात ते मेरेन तरी कदेल तशेंच उरतलें.

ाटकार : आनी उरपाकूच जाय.

त्री : न्याय आमच्या हातां भितर उरपाक जाय.

ाटकार : तुज्या इलेक्शना वेळार याद आसा, हांवें तुका म्हणिल्लें, हें न्याय-अन्यायाचें पेंपारें भाटकारा मुखार वाजोवपाचें नासता. आमी जे दिकेक बोट दाखयतात तेच दिकेन सूर्य उदेवपाक जाय. (थांबून) वाड्यांतले तिजोरेंत फकत भर पडूंक जाय आनी हाचे आड येतल्याक ह्या भाटकाराची ख्यास्त मेळटली. मास्तर खूब सुटलो. असलें धाडस आनीक कोणे केल्लें हांव सोंसून घेवचों ना. मास्तर म्हजे वाटे वयलो कांटो आशिल्लो. म्हज्या पावलांचो गतिरोधक आशिल्लो. मास्तर अजाणांची जाण आशिल्लो. म्हुण्णूच तो म्हाका नाका आशिल्लो. म्हज्या कसल्याय कामांत ह्या गांवांत मास्तराचो हस्तक्षेप आशिल्लोच. तो आपले दुबावूय लोकां मुखार तिडकीन उकते करतालो. आनी अंदू तर म्हजो गुदांव सामको रितो कसो दिसतालो. कोणेंच देवळाचें देणें धाडून दिवंक ना आनी म्हजेंय फाडें थोड्यांनी दिवंक ना. सगळ्यांनी आपआपल्या कुळागरां, शेतां, भाटां-बेंसां आनी मानसांची येणावळ आपले भितरूच गट्ट करून दवरली. खाण्याच्या पयशाक म्हाका सांगनासतना कमिटीन अंदू हात लायलो (थांबता). म्हजो नातू अमेरिकेंत शिकता तें खबर आसा न्हय तुका? ताका लेगीत हांवें ह्या दोन-तीन म्हयन्यांत फकत पन्नासूच हजार धाडल्यात. गेल्या म्हयन्यांत म्हजे निमणे धुवेचें लग्न जालें. मनासारकें खूब कितें जालें ना. खंत उरली. आनी हाका कारण मास्तर. (रागान) मास्तर...

(मास्तर दोंगराचे उंचायेर एका तळपार बसला. चिंतेस्त)

मास्तर : (उस्कारता. आपल्याकूच) हूंऽऽ युगंधरा, म्हाका शक्त जाय. तुज्या आधारान कुरुक्षेत्रार घडिल्ल्या जैतोत्सवाची आनीक एक खेपे पुनरावृत्ती जावंदी. युगंधरा, म्हाका तुजो आधार जाय, काळखाचें निसंतान करपाक. जुलमांची तांक जिरोवपाक, अधर्माचीं पाळां हुमटावन काडपाक (उस्कारता) युगंधराऽऽ!...

तो : मास्तर, हांव आयलों.

मास्तर : तुका येवकार... म्हाका खबर आशिल्लें.

तो : कितें?

मास्तर : तूं येतलो म्हूण.

तो : इतली खात्री आसा?

मास्तर : हय. फकत तुजे पुरतीच. तूं म्हजो विश्वास.

तो : तोखणाय नाका.

मास्तर : तोखणाय करपा सारको जिवितांत तूं आतां एकटोच उरला.

तो : जिविताची इतली उबगण आयली?

मास्तर : ना. उबगण येवंक ना. जे मेरेन मोख साध्य जायनां ते मेरेन तरी उबगण येवची ना. पूण मन मात खूब खंती आसा.

तो : कित्याक?

मास्तर : ज्या दिसा मोठे फिशालकायेन बंदखणींतल्यान पळून आयलों, त्या दिसा सावन एका सुडान भरिल्ल्या हिंसेच्या मोडांत सांपडलां. राग, तिरस्कार, विद्रोह हांचे उमाळेय मनांतल्या कुपांगणांत दाटून येतात. जांणी म्हाका भरिल्ल्या मानाच्या जिवितांतल्यान भायरो केलो तांकां बुद्द शिकयले बगर रावचोंना, म्हूण मनांतल्या मनांत सोपूत घेतलो, हीच खंत. (थांबून) खऱ्या अर्थान, ह्या भाटकारा उपरांतूच म्हजो गांव स्वतंत्र जातलो. एकान एक मनशाक आपले मुक्तिची वाट दिसतली. उजवाडाचें पर्व येतलें. काळखाचें निसंतान करून. कोणूच मागीर कोणाचेरूच अन्याय करचो ना. म्हजो गांव शांतताय आनी भावके खातीर संवसारांत आदर्श जातलो.

तो : मागीर वायट कितें जालें? तुज्या मना सारकें आनी गांवच्या कल्याणा खातीर कितें तरी करपाक तुका आतां संद मेळ्ळ्या. अख्ख्या गांवाक काळखांतल्यान उजवाडा कडेन व्हरपाक तुका भांगराची संद मेळ्ळ्या.

मास्तर : (...)

तो : असो हातां कडेन कितें पळेता?

मास्तर : ह्या हातांनी सदांच पेन धरलां. आनी बऱ्याचो वेध घेत मन अक्षरांच्या गोण्यांनी विणीत आयलां.

तो : आनी वायट ना जातलें जेन्ना तूं रित्या हातांनी मनांतलें तुफान वाऱ्यार हुबोवन परत मास्तर म्हण त्याच गांवांत वयतलो.

मास्तर : तुका...?

तो : म्हाका कळचें न्हय अशे कितें आसा?

मास्तर : ना. तुजे सावन म्हाका कांयच लिपोवपाचें ना. ज्या गांवांत हांव ल्हानाचों व्हड जालों, ज्या गांवचे मातयेंत खेळ्ळों शिकलों, सपनांचो म्हामेरू पळयलो आनी गांवच्या लोकांक सुशिक्षीत

करपाचें कार्य हातांत घेतलें, त्या गांवाक भायरो जावं? कांय जो लोक भाटकाराक देवाचें रूप मानतात, त्या साद्या-भोळ्या लोकांचो विस्वास कापून उडोवं? तांच्यो भावना दुखोवं? म्हज्या सुडान भरिल्ल्या उज्यांत गांवचो गोबोर कित्याक करूं?... कसलो अधिकार म्हाका?...

तो : पुरो. खूब येवजिलें तुवें. मास्तर, असल्याच विचारांनी तुज्यांतली हिंमत आनी तांक दुबळी पडटली. तुजे तूंच गळसून वतलो. मास्तर, जांणी तुजी लज काडली, जांणी तुज्या हातांत बेडयो घाल्यो, जांणी तुज्या घराक उजो लायलो, जांचे खातीर तुका कोर्टांत उबो रावचें पडलें, जांणी तुका मार घालो आनी जांचे खातीर तुवें सगळें केलें तांचे खातीर तुज्या मनांत आतां काकूळट आसूंक फावना. तूं पुराय गांवाक उजो लाय अशें हांव म्हणना. जांणी मनशांक जोताक बांदल्यात, मनीसपणाची हत्या चलयल्या, जांणी अजाण गांवकऱ्यांच्या पोटार आपलीं घरांदारां बांदल्यांत, जे रात-दीस जिव्या मनशांचें रगत लुंचतात, तांकां बुद्द शिकय! साद्या-भोळ्या लोकांच्या विस्वासा विशीं इतलेंच म्हणूं येत – विस्वास मनांत रुजता, जांकां मनां आसात तांचेच भितर तो फुलत वता. आनी तुका गांवचो गोबोर कोणें हांवें कर म्हळां?
तुज्या गांवाचो हे पयलींच हजारदां लासून गोबोर करपी तुको कोणूच कसो दिसना? हांव घडये चुकतां आसन. चल, परतोय मास्तर जावन गांवांत चल. आनी धर भाटकाराचे पांय. नाक घश्टी ताच्या पांयां कडेन आनी चूक माग. आपल्याक माफ कर म्हण. तूं कितलोय अन्याय कर, आपूण केन्नाच जाप विचारचोंना म्हण. म्हण – म्हजें हें घटमूट आंग तुजेंच खावन व्हड जालां. म्हाका माफ कर भाटकारा, हांव आतां तुज्या उतरां भायर आसचोंना. तूं ह्या पोल्यार थापट मारल्यार हांव दुसरो पोलो मुखार करतलों...

मास्तर : पुरो. पुरो कर. आनीक आयकूंक जायना म्हज्यान.

तो : जाणें सादीं-भोळीं मनां, तरणीं काळजां आनी कश्टांचे रूख मुळा सकट तोडून उडोवपाक भाटकारा सारके रक्तखेवी, प्रभाकरना सारके लेमडे फुडारी, सरपंच शिरोडकारां सारके कपलफुटके, दोतोर कामती सारके सर्वनाशी आनी पुलीस काणा सारक्या म्हारूंक जल्म दिलो ताणें तांकां चिड्डून उडोवपाची वेवस्थाय केल्याच आसतली.

मास्तर : म्हज्यांत हुलोप भरूंक लागला. उजो पेट्टा काय दिसता. आतां केदीय शक्त आयल्यार म्हज्यांतलो सळसळ न्हिवचो ना.

तो : जाल्यार ओतय तो तुज्यांतलो उजो त्या रक्तखेवी उणाकांचेर.

मास्तर : हय, हो पळे. म्हज्या दोळ्यां सामकार कसो शबय शबय नाचता. कोलेबुद्दिचो, रगत लुचपी भाटकार, जाच्या घरांत गांवकार, मुंडकार, क्रियादा भशेन काम करतात, पैशां बगर. हें तें पळे, गांवाचे मर्दी म्हाका आमचें देवूळ दिश्टी पडटा. लोकवस्ती चड आशिल्ल्यान देवळाची येणावळूय चड. देवळाची सगळी येणावळ भाटकारागेर वता. ती देवळा सामकार उबी आसा ती देवळाची कमिटी. ही कमिटी दीस-रात देवाचे बदला भाटकाराची पालखी खांदार घेवन नाचता. भाटकाराची पटी – शेऽऽ चूक जाली – देवळाची पटी अर्द खांडी भात. गांवच्या शेतांभाटांचो हिशोबूय भाटकारा कडेन. भाटकाराच्या उतरा बगर हांगा फातरूय हालना. तरीय भाटकार सगळ्यांच्या काळजांनी फास्केबंद. ही कसले कुड्डे श्रद्धेच्या विसवा पसवण? हो कसलो जादू?

तो : गांवच्या फुडाराच्या निसंतानांत तुका एकलो भाटकार दिसलो?

मास्तर : निसंतान?

तो : हय. चलता तें कोणेंच थांबयलें ना जाल्यार निसंतान नदरेच्या दरवट्या वेल्यान मुखार पळय.

मास्तर : हय, आनिकूय दिसतात. हो तो पळय. धवे गाडयेंतल्य देंवन भाटकारा सरीं वता तो प्रभाकरन. कायदो आ समाजकार्य खात्याचो मंत्री. भाटकार जे दिकेक बोट दाखय तेच दिकेक आपलो सुर्या अशें मानपी गणसाबैल. हात सत्ता आसल्यार कितेंय करूं येता. कायद्याचो अभ्यास शू खंयच्या कुळांत जल्मल्लो कोण जाणां; म्हुण्णूच घडये मातयेच्या मनशा कडेन मनाचें नातें ना. आंगार धवे कप आसले तरी मन मात काळें किट्ट, खंयच्याय डिटर पावडरान नितळ जावचें ना इतलें काळें. भाटकाराले तिजो पयलीं गांवच्या लोकांलीच जाल्ली संपत एकठांय जाताल आतां ह्या गणसाबैलाच्या आधारान पुराय राज्याची सं तिजोरेंत येता...

तो : अजून सरपंच दिसूंक ना?

मास्तर : दिसला. हो तो पळे गाडये फाटल्यान उबो आसा. मंत्र्या वाट पळेत. ताचे कडल्यान कितेंय पडलें जाल्यार तें पुंजावपा गांवच्या खूबशा कर्मांचो धनी. गांवच्या खंयच्याच मनश तकली वयर काडपाक दिना. गरीब आनी दुबळ्यां खात सरकारान लागू केल्ले 'सम्राट' येवजणेचे लाखांनी रुप गिळपी नागोवणो. शिरोडकार घराण्याचो कलंक. केन्ना कस नोकरीच करूंक ना. पूण घरांत मात लकलकाट. हाल दोन गाडयो घेतल्यात. भाटकाराच्या आशिर्वादा खाला उज जावपी रेब्याकिडो.
... आनी हो तो पळे, आपल्याच फणांनी घुस्पुपी मंत्र्य गाडये फाटल्यान जिपींत बशिल्लो पुलीस सब-इन्स्पेक काणा. ओंठार म्होंवाळ उतरां पूण मनांत वीख. फोर्स आ ते वटेन ओडपी. सत्य उलयतल्याक धपके. हेच हुशारके लागून ताका गेल्या वर्सा राष्ट्रपती पदक फाव जालें. गां शाळेंत वचपी भुरग्यांक सोऱ्याचें वेसन हाणेंच लायल भाटकारालो आनीक एक शिश्य... आनी आतां म्हजी न पावल्या गांवच्या हॉस्पिटला कडेन. होऽतो दारांत बोल्स हात घालून पासयो मारता तो दोतोर कामत. दीसभर मेज पांय उडोवन सिगरेटी फुंकीत आसता. ह्या सरक हॉस्पिटलाचो मालक. हय, मालक! हॉस्पिटलांत सद्या दो तरांचीं वखदां मेळटात. कसलेंय दुयेंस आसूं, तींच वख एके एके दुयेंतीक वीस-पंचवीस मोठीं-मोठीं पिल्लां अ शेरभर शारोप, तिखश्या पिपीरमिटांचे रुचिचे. पंचवीस-सव्व वर्सां जालीं, दोतोरबाब ह्या हॉस्पिटलाचेर राज्य करत तरीय गांवांत लोक ताका मानतात. (थांबून) ही ल्हान वळख म्हज्यांतल्या मनीसपणाचो खून केल्ल्यांची.

तो : तुज्याच तोंडान आयकली...

* * *

('तो' देवळाच्यो घांटी वाजयता)

भाटकार : तूं कोण ? आनी हांगा येदे सकाळींफुडें कितें करता ?

तो : तूं इतले सकाळीं हांगा कितें करता म्हूण हांवें तुका खंय विचारलां ?

भाटकार : तूं ?... हांगा ?

तो : तुका जाय जाल्यार हांव तुजे खातीर खोशयेचो गजरो जावं येतां, वा तुज्या विनाशाचो फाळूय जावं येतां. तुजो दुसरो प्रस्न – हांव हांगा कित्याक आयलां, हो. आतां तरी मुखावयले कांय दीस बरे सुखाशांतिचे आसचे अशें दिसलें म्हण उमेद घेवन आयिल्लों. आतां कितें आपणावप हें तुजेर.

भाटकार : (हांसता. देवळांत हांसप गाजता.) वाऽऽ खंयच्या नाटकांतले संवाद हे ? खंयच्या तेऱ्हाऽऽ सावन आयला रे तूं ?

तो : म्हजें उलोवप तुका नाटकांतले संवाद दिसलें ? आनी ते खरे आसत जाल्यार ? चींत. (गंभीर) हांव तुका जाय जाल्यार तुजे खातीर खोशयेचो गजरो जावं येतां. नाजाल्यार तुज्या विनाशाचो फाळ. तरी हांव म्हणटां, तुजे मुखावयले कांय दीस बरे येवं. अजून वेळ वचूंक ना.

भाटकार : म्हाका जाय जाल्यार ? म्हाका जाय तूं मसणांत गेल्लो. आनी म्हजे कांय दीस ? दीस भरूंक पावल्यात तुजे. आनी फाळ खंय आसा ?

तो : होच तुजे मुखार. (शांत) मुखावयलो विनाश टळचो अशें तुका दिसना ?

भाटकार : (हांसता) हालीं खूबच जाणांच्यो तकल्यो धील जाल्यात.

तो : आनी हीच तुजे खातीर बरी गजाल. माग ह्या कुड्ड्या देवा कडेन सगळ्या गांवच्या लोकांक पिशें लागचें आनी तुजें घर गिरेस्तकायेन भरून ओतचें म्हूण. (उमाळून) तुज्या उपाट भरिल्ल्या सुवार्थाच्या मापांत गांवच्या लोकांक थोडे तरी उखलून धर.

तो : असो रागान कित्याक पळेता ?

भाटकार : फकत पळेलां, अजून कांयच करूंक ना.

तो : तरीच, मास्तरान खूब पाशियेंस काडलें तुमचे कडेन.

भाटकार : (?) ...

तो : आपली मोख सादूंक मेळ्ळिना म्हणटकीर मनाचें स्वास्थ्य इबाडूंक लागता. मन अस्वस्थ जाता. खंयचेय गजाली कडेन पळोवपाची नदर संकुचीत जाता. मनांत रागाणू उठ्ठात. सैरभैर जातात. रगत तापूंक लागता. जाणीवपूर्वक विचारिल्ल्या प्रस्नांक अजाणतेचो स्पर्श जाता. विचारशक्त कमी जाता. बुद्धिचेर ताण येता. आनी तकली एका मानसीक पेजान चेपिल्ले भशेन दिसता. हाचे परिणाम तो करता ते कृतीर जाता. (थांबून) रागाच्या भारांत केल्लें काम आपणालेंच खुबशें वायट करून बसता.

भाटकार : शेऽऽ, सकाळींफुडें मरे हें लचाण. (वाजेवन) हें पळे, म्हज्यान तुका खोंट मारून भायर घालूंक जाता. पूण ना वळख ना देख म्हण सोंसतां. ह्या गांवांत म्हाका कोणेंय हडकुपाचो यत्न केलो जाल्यार हांव ताचो बुको करून उडयतां, तुजे सारक्या वाट चुकिल्ल्यांच्या कपलाक लावपाक.

तो : बंद कर तुजी ही हुकुमशाय. हें देवूळ तुज्या बापायचें न्हय, तुज्या जाण्टांचीय ती मिरास न्हय.

भाटकार : (मदींच) बालदाऽऽद ! तूं कोणा कडेन उलयता खबर आसा तुका ?

तो : हय. ह्या गांवच्या लोकांचें रगत पियेवन मातिल्ल्या राकेसा कडेन.

भाटकार : (मारपाक वता) सुण्या कास्ताच्या...

तो : (ताच्या हाताक धरून सकयल ओडीत) हो तुजो हात सकलूच आसूं दी.

भाटकार : हॅकऽऽ!

तो : तुंवें तुज्याच आंगार शेण उसळून घेतलां. तुंवें पुण्यायेचें कसलेंच काम केल्लें आसचेंना. मनीसपणाचीं सगळीं सपणां हुंपून तूं पयस पावला. तुज्या पातकांच्या म्हासागरांत तूं बुचकळत रावतलो. तुजी तान भागचिना, तुजी भूक भागचिना, तुज्यो भोयो भोयो जातल्यो. सकाळीं फुडें देवळांत येवन देवभक्तिचें नाटक करून लोकांक फटोवं नाका. तुका दिसान दीस देवळाची येणावळ पळोवंक जाय, म्हणुनूच तूं देवळाची चावी आपले कडेन दवरता. तूं ह्या लोकांक फटोवंक शकता, पूण मास्तराचे नदरेंतल्यान तूं सुटलोना हेंच तुजें पाडें नशीब ! (भाटकार चकीत)

तो : देव आनी भट हांचें मुखामळ पळेनासतनाच म्हाका सांग, तुंवें खंयच्या गांवकाराक सतोवंक ना ? तुगेल्या पातकांत तुंवें तांकाय मेळोवन घेतल्यात. मनीसजातीर पडिल्लें तूं काळें खत, खंयच्याय अभिषेकाचे धारेन धुवन वचचें ना इतलें. तुजीं कांय पापां आसात तीं तुजे वांगडा लेगीत सोंपचीं नात. तीं तुजे फाटल्यानूय वाडत रावतलीं. आपलें तोंड लिपयत. तुजीं तीं... असल्या म्हापापांचो धनी तूं !

एक शिटकावणी तुका, त्रासांक जेन्ना अंत उरना तेन्ना काळजाचोय फातर जाता. सामान्यांक जेन्ना असामान्यांचें बळगें प्राप्त जाता तेन्ना हो गांवूच कित्याक, हें कुरुक्षेत्र सोडून धांवपाक ही पृथ्वी लेगीत तुका कमी पडटली शणै ! (वता)

* * *

तो : हॅलो डॉक्टर कामत.

दो. कामत : (?)

तो : सुंदर ऑफिस ! (हांसत) खास तुमचें म्हूण काय कितें ?

दोतोर : हांव वळखूंक ना...

तो : बस म्हणचो ना ?

दोतोर : ओऽऽ यॅस, बस बस.

तो : तुमी सिगरेटी खूब ओडटात. ॲश ट्रे भरिल्लो आसा.

दोतोर : (?)

तो : तुज्यो करण्यो कानार पडल्यो.

दोतोर : हांव तुमकां वळखूंक ना. आनी कसल्यो करण्यो ?

तो : (विशय बदलीत) एकूण खाटी कितल्यो आसात ह्या हॉस्पिटलांत ?

दोतोर : सतरा ! तुमी...

तो : सांगतां. म्हजे म्हाकाच दिसना हांव तुजो दुस्मान जावंचो म्हण, तर तुंवें कित्याक कांचवेवचें ? तर, सरकारान तुमच्या कामाची तोखणाय करून तुमकां ह्या हॉस्पिटलाचो चार्ज दिलो. कॉंग्रेच्युलेशन्स ! भाटकाराच्या आशिर्वादाखाला रावपी मनीस सर्विसेंतूच व्हडलो जायना. तो ताच्याकूय फुडें पावता. ताच्या जिवितांत लखलखाट येत रावता.

दोतोर : (रागान) कोण तूं ? आनी तुका कितें म्हणपाचें आसा ?

तो : जाका शिमो थांबोवंक शकनात... आनी म्हाका म्हणपाचें आसा तेंच हांव उलयत आसां. •

दोतोर : तूं हांगा कित्याक आयला ?

तो : राव दोतोर. हांव तुका जाय जाल्यार तुजे खातीर खोशयेचो गजरो जावं येतां ना जाल्यार तुज्या विनाशाचो फाळ. तुज्या दुसऱ्या प्रस्नाची जाप – हांव हांगा तुजे मुखावयले कांय दीस बरे वचचे अशें दिसलें म्हूण उमेदीन आयलां.

दोतोर : तुजी उमेद भागली ? वतां हांव (वळून) आनी तुवेंय वचचें.

तो : राव. असो ताकतिकेन ? सध्या तरी तुका काम आसचेंना.

दोतोर : तोंड बंद कर. हांव तुजे सारको रस्ताद पडूंक ना.

तो : दोतोर, गेल्या वर्सा ह्या हॉस्पिटलाच्या रिनोवेशना खातीर सरकारान दोन लाख मंजूर केल्ले, तांतुंतले चडशे पैशे तुमच्या बोल्सांतूच उरले. जाता. जाता तशें केन्ना केन्ना. सत्तर हजार वखदां खातीर सँक्शन जाल्ले, तांतुंतल्या फकत दोन-अडेच हजारांचीं वखदां आयलीं. दोतोर, म्हाकाय कळटा, वखदांय खूब म्हारग जाल्यांत. आनी कितले त्रास काडचे पडटात...

दोतोर : (मर्दीच) आतां तरी वतलो हांगासल्लो ?

तो : हें इतलेंच आयकून वाज आयलो ?

दोतोर : म्हाका आनीक कांयच आयकुपाचें ना. आनी म्हाका सांग, तुज्यान म्हजें कितें करूं येता ?

तो : परतें सांगूं ? हांव तुज्या विनाशाचो फाळ जावं येता.

दोतोर : शट अपऽ! तुजें हें तोंड फोडल्यार कोणूच नाका म्हणचो ना

तो : दोतोर...

दोतोर : प्लीज, लिव्ह मी अलोन...

तो : भाटकाराचे हुकुमशायेंत तूं गांवच्या लोकांचें बंद करशीत, मास्तराचें करूंक शकतलो ? भाटकाराक आनी हॉस्पिटलाक कांय एक संबंध ना. तूं एक सरकारी नोकर. एक जबाबदार मनीस. तुज्या मनांत आसत जाल्यार तुज्यान गांवचें भांगर करूं येता. पूण तूं... तुका गांवकार बलायकेन बरे जाल्ले नाका. ते घटमूठ आसत जाल्यार आपल्या पांयार उबे रावतले. तुमच्या पांयांकडेन कोणूच पावचो ना. तुजो शेक चलचो ना. तुज्या घरा कडेन नुस्त्याच्यो गांथनी पावच्यो नात. तांच्यांत नवी उमेद भरतली. तुका जाय सगळो गांव भितरले भितर पोखरून गेल्लो. तूं भाटकाराचे तकलेन चलता.

दोतोर : (ताच्या आंगार वता) हेऽऽय. आयकून घेतां म्हूण चड जालें तुजें. तोंड फोडून घेतलो (हात वयर काडटा).

तो : हात सकयल काड दोतोर. तितलो अशक्त ना हांव तुजे कडल्यान मार खावपाक.

दोतोर : आरे, तुजे कडल्यान शिकवण घेवपाक म्हजी बुद्द कितें भ्रश्ट जाल्या ?

तो : तुजी बुद्दूच न्हय, तूं लेगीत भ्रश्ट जाला. तूं ह्या गांवाक लागिल्ली एक जळू... तूं तुगेल्याच पातकांनी बुडत वतलो. आरे तुज्या मनांत आशिल्लें जाल्यार तुज्यान कितलेशेच जीव वांचोवंक जातालें. पूण तुवें तांकां मारून उडयले. हय, तुवेंच. खुनी तूं, रगत पियेवपी राकेस. दोतोराच्या नांवाचेर कलंक !

दोतोर : (रागान) आरे कितें उलयता तूं हें ?

तो : हें सरकारी हॉस्पिटल न्हय. हें तुज्या बापायचें हॉस्पिटल. तुज्या बारशाक तुज्या नांवार केल्लें. म्हणुनूच हें हॉस्पिटल सुरू जायत सावन सुमार वीस वर्सां तूं ह्याच हॉस्पिटलांत आसा. तुजो शेक फकत हॉस्पिटलांत न्हय, ह्या गांवांत लेगीत चलूंक लागला. सरकारी फार्मासींत सप्लाय केल्लीं वखदां लेगीत तुवें विकून खालीं आनी थोडीं आपल्याच मनशां भितर वांटून उडयलीं. तरी ह्या सरकाराक तांक ना तुका हांगासरलो निखळावपाक. तुजीं पाळां-मुळां खंय पावल्यांत तीं फकत हांव जाणां. दोतोर कामत, तुज्या त्या पोटाक दोर घाल तें हिसपा भायर सुटलां. ह्याच हॉस्पिटलाच्या खाटिंचेर तुवें कितलिशींच फुलां पिश्टून उडयलीं. मनीस जावपाचें खीण तुज्या जिवितांत खूब फावटी आयले. पूण तुवें सुधारपाचे केन्नाच यत्न केले नात. दातोर कामत, एक शिटकावणी तुका त्रासांक जेन्ना अंत उरना तेन्ना काळजाचोय फातर जाता. आनी जेन्ना सामान्यांक असामान्याचें बळगें प्राप्त जाता तेन्ना तुका हो गांवूच कित्याक, ही पृथ्वी लेगीत कमी पडटली दोतोर !

तो : असो चिंतत कितें बसला मास्तर ?

मास्तर : हय... ना... खंय कितें ?

तो : तरीय, तूं चिंतता.

मास्तर : मनांत खंय तरी दुबाव आसा... ह्या उणाकांच्या रगतान खऱ्यांनीच हांव गांवाक उजवाड दाखोवंक पावतलों ? हांव येवजितां तें बरोबर काय चूक ? म्हज्या हातांक लागपी रगत सासणाचेंच म्हज्या वंशार, म्हज्या कपलार खत जावन उरचें ना मू ? म्हज्यांतलो हुलोप रगत गळोवनूच थांबतलो ? गांवच्या लोकांचेर शेक चलयतल्यांचो खरोच अंत जातलो ? तांकां सासणाचे काबार करपाक म्हजे हात मातूय फाटीं-फुडें जावचे नात ? उजवाडाच्या पालवान म्हाका वाट दाखय. म्हाका मनीसपणा कडेन व्हर...

तो : (शांत) तुजे विचारूय आतां चुकूंक लागल्यात. मास्तर, हांव जाणां, तुजीं पावलां आतां आडखळूंक लागल्यांत. मनीस जावपाचे खीण वगडावं नाका मास्तर, जैत तुकाच मेळटलें.

मास्तर : सगळी जीण सत्य आनी न्याय हांकांच ओंपली. सत्यवादी जिणेंत हांवें अधर्माक सदांच न्हयकारला. विचार आनी अक्षर हांकांच चड मोल दीत आयलां. हांव जाणां, आयज ना जाल्यार फाल्यां हांगा मनीसपणाचीं जिवीत-मुल्यां काळजां-काळजांत रुजतलीं, एकचाराची भावना मनामनांत बांदून.

तो : (हांसता) आशावाद...! जांच्या फुडारार शून्य अदीक शून्य बरोबर मोठें शून्य आसता तांचे खातीर ! आनी तें शून्य निखळावन उडोवपाक त्या गांवांत फकत तूं एकटोच समर्थ आशिल्लो. पूण तुज्यांत समजून घेवपाची तांक खूब कमी आसा अशेंच म्हणचें पडटलें न्हय ?

(शांत) जाय जाल्यार तूं फाटीं सर. पूण तुका संवसारांत खंयच जागो ना हें मतींत धर मास्तर.

मास्तर : फुडल्यान काळोख आनी फाटल्यान उजो. ही कसली दुविधा ? खरेंच, म्हजे पांय थरथरूंक लागल्यात, काळीज कलकलूंक लागलां. हें म्हजें खिणा-खिणाक मरण... पूण... हिंसेन हिंसा वाडचिना कित्यावेल्यान ?

तो : मरणा पयलिंचें मरण फकत अस्तित्वाचें मरण आसता, जिविताचें न्हय. भंय, उबगण, विफल मनोभंग हीं अस्तित्वाक दुखोवपी वेंटाळीं. हांणी मनशाचें सत्व विफल आनी पांगळें जाता आनी ताचो प्रभाव ताच्या सभावाचेर पडटा आनी तेन्नाच सभाव विकृत जावंक पावता. आनी तूं म्हणटा, हिंसेन हिंसा वाडटा. आपली कृती कठोर, सत्यवादी आनी न्यायाधीन आसल्यार दुसऱ्याचे हिंसेचो प्रस्नूच येना.

मास्तर : तशें जाल्यार फाल्यां इतिहास ह्या मास्तराक खंयच्या नांवान लेखतलो ?

: इतिहास म्हळ्यार एक फांस आनी भविश्य एक फसवणूक हें मतींत धरतल्याकूच वर्तमान अस्तित्व मुक्त आशिल्ल्याचें कळटा. दर एका मनशाचें अस्तित्व हेंच ताचें भविश्य. जाणविकायेची कळा जाच्यांत सदा-सर्वकाळ जागी आसता तोच खरो जिवो आसता. जिविताचो अंत मरणान जाता. आमी पळोवंक शकतात तें मरण दुसऱ्याचें, सगळ्या जिविताचो छेद घेवपी मरण स्वताचे

स्वताच कोणाकूच अणभवूंक मेळना. म्हणून म्हणटां, तुजें पावल नेटाचें आसुंदी. तूं एक समर्थ मनीस. तुजे कडेन एका पर्वाचें उत्तरदायित्व आसा. तुज्या मनांत आसत जाल्यार...

मास्तर : न्याय, सत्य आनी धर्म हांकां चिड्डून म्हाका त्या पर्वाचें उत्तरदायित्व आपणावपाचें ना.

तो : मास्तर, तूं तुज्या एकतर्फी विचारांनीच घुस्पत वता. न्याय-अन्याय, सत्य-असत्य, धर्म-अधर्म हांचे विशीं चिंतपाचो हो तुजो वेळ न्हय. जांच्या नांवार धर्म चलता त्या लोकांनी सत्याची गोमटी कापून तुजेर अन्याय केले आनी तुजी परिस्थिती हे दशेक पावयली. तुज्या सुरक्षीतपणा खातीर आनी गेल्ले लजे खातीर तुवें असत्य आनी अधर्माचो आधार घेवप वायट जावचेंना. अधर्म आनी वायट कर्तुपांक ती तुजी जाप आसतली. विखाक विखानूच कापीत जाल्यार वीख आपलेच तांकी भितर उरूं येता. तुजी जाण असमृद्ध आसा अशेंच हांव समजतां.

मास्तर : म्हजी जाणविकाय समृद्ध आसा अशेंय हांव म्हणना. पूण जाणविकाय ही जिविताची मूळ चेतनाशक्त.

तो : आनी जितलो वेळ तुज्या दोळ्यांत चेतना आसता तितलोच वेळ सैमाचो उजवाड तुज्या वांट्याक आसतलो. ती निंतळ आसता तितलोच वेळ ती दर्शनीय आनी भेदक आसता. जेन्ना ती आंगळी-पांगळी जाता तेन्ना कल्पनेचें फटकिरें जग निर्माण करता. तूं सगळें नाका जाल्लें सोंशीत रावलो, अन्याय सोंशीत रावलो जाल्यार तुजें मन लेगीत तुका शिणत रावतलें. जिणेचे प्रगतिचें खंयचेंच पावल तुजे कडल्यान मुखार पडचें ना, शोषक आनी भिजूड म्हण तूंच तुका मोलायतलो. संवसारांत जो आपले आपल्याकूच सकयल उडयता तो समाजाक कांयच दिवंक पावना. तुका पुसय समाजाक आदर्श घडोवपाचो आसा. तुज्या न्यायालयांत अधर्माक ख्यास्त दिवपाची आसा.

मास्तर : हय.

तो : जाल्यार तुका परतो मास्तर जावन गांवांत वचूंक मेळचें ना. तूं बंदखणींतल्यान पळून आयिल्लो कैदी. गांवांत पावलो लेगीत जाल्यार तकली वयर काडपाक तुका वेळ लागतलो. तुका आपले आपल्याक चिड्डून घेवचें पडटलें. तुज्या उलोवपाचेर विस्वास दवरपाक गांवचो लोक फाटीं-फुडें सरतलो. भाटकारान लोकांमदीं तुजें एक वेगळेंच चित्र निर्माण केलां. (थांबून) सद्या तुज्या नांवार वॉरंट आसा. तूं गांवांत पावलो म्हूण कळनाफुडें तुजे खातीर बंदखणिचें दार परतें उकतें जातलें. तेन्ना मात तुका खूब हाल सोंसचे पडटले.

मास्तर : मागीर म्हजें नांव डाकू वा अतिरेक्यांचे यादींत येवचें ना ?

तो : जांचें नांवूच उरूंक ना ह्या पैशांच्या बाजारांत ताणें आपल्या नांवाबद्दल चड चिंतपाचें नासता. आनी तूं म्हणटा अतिरेकी, तूं तांचे मुखार तांचो अतिरेकी म्हण उबो रावचो ना जाल्यार कोण मास्तर म्हण उबो रावतलो ?. मास्तर, जेलींतल्यान तूं जो नेट घेवन आयिल्लो तो तुजो नेट खंय तरी शेळेत चल्ला आनी हीं बऱ्याचीं लक्षणां न्हय. हीं तुजीं आनी तुज्या अजाण समाजाच्या सर्वनाशाचीं लक्षणां. तुका जर तुज्या गांवाक वांटायन दिसता, तांकां न्याय दीन दिसता जाल्यार तुजे खातीर एकूच रस्तो उकतो आसा.

मास्तर : (मर्दीच) कसलो ?

तो : चिड्डून उडय त्या राकेसांक, सुळार मार त्या समाज-घातक्यांक.

मास्तर : पूण हें न्याय हातांत घेवप जालें.

तो : आतां न्याय कोणाच्या हातांत आसा ?

मास्तर : सरकाराच्या.

तो : सरकार कोण ?

मास्तर : लोक.

तो : चूक. सरकार म्हळ्यार चिमटीभर लोक. जाका नेट आसा तो सरकार. जाका दम आसा तो सरकार, जाचे कडेन पैशे आसात तो सरकार. तुज्या गांवापुरतेंच उलोवचें जाल्यार भाटकार सरकार, सरपंच सरकार, सबइन्स्पेक्टर काणा सरकार, दोतोर कामत सरकार. आनी तुमी सगळे तांचे चाकर.

मास्तर : हय. तुजें सामकें खरें.

तो : मास्तर, तुका याद कशी जायना त्या काणाच्या नेटाची ? तुका माचये वेल्यान गोलाक धरून भरभरीत ओडून हाडून कुमयत जिपींत बसयलो तो काणा...

मास्तर : हय. गांवचे पालखे उपरांतच्या भाषणांत –

तो : (मर्दीच) जात्रेचे पालखे उपरांत...

मास्तर : हय. सगळें विचित्रूच. हे लोक लेगीत. (चिंतून) पूण चड उगडास आसा त्या दिसाच्या मंत्र्याच्या भाशणाचो. (रागान) खावपाचे दांत आनी दाखोवपाचे दांत खूब वेगळे ह्या मंत्र्याचे.

तो : याद आसा न्हय ?

मास्तर : हय.

मंत्री : ह्या देसाचो फुडारी हांव. आयज ह्या देशामुखार खुबशे प्रस्न उबे आसात जे अजून आमी सोडोवंक पावंक नात. तरीय ते सोडोवपाचें आमी उतर दितात. आयज न्हय जाल्यार फाल्यां ते आमी सोडयतलेच. ह्या देशाक लागिल्लो आतंकवाद, धर्मवाद, जातीयवाद, हिंसा हें सगळें नपश्यात करून सामान्य जनतेक सुखाचें आनी सवस्तकायेचें जिवीत मेळोवन दिवंक आमी आमच्या शिरंतरांतलो निमणो थेंबो लेगीत घालयतले (ताळयो). गांधी, नेहरू, टिळक हांच्याच पावलार पावल मारून आमकां मुखार चलपाक जाय. तांचीं सपनां पुरतताये कडेन व्हरूंक (ताळयो). सगळ्यांक आमी समान न्याय दिवंक सोदतात. बायलांक समान हक्क, गांवाची उदरगत, शिक्षण, बलायकी, नोकरी हाचेरूय आमी खूब मुखावयलीं पावलां उखलल्यांत. आतां सर्ग पळोवपाक वयर वचपाची गरज उरचिना. तो तुमकां हांगासरूच पळोवंक मेळटलो (ताळयो).

मास्तर : (मर्दीच माचयेर येता. लोक बोवाळटात.) म्हज्या गांवकार भावांनो, हें भाशण न्हय. हीं तुमच्या शिरंतरांचीं ओडिल्लीं लक्तरां, तुमच्या भावनां कडेन, तुमच्या सपनां कडेन चलिल्लो खेळ हो.

मंत्री : आरे हो कोण ? आनी तो कितें उलयता ?

मास्तर : हांव मास्तर ह्या गांवचो. ह्या लोकां मदलोच हांवूय एक.

मंत्री : जाल्यार कितें जालें ? तूं कडेक राव.

मास्तर : म्हाका मात्सो उलोवं दी. तर गांवकार भावांनो, ह्या देशाचें

आमी आनीक केन्नाय उलोवंया. पयलीं आमी आमच्या गांवचेंच चिंतुया. मुळांतल्यान वयर सरता तीच प्रगती. मंत्री सायबांनी सदांच आपलें विश्व तयार करपाचे यत्न केल्यात, गांवच्या भाटकाराच्या धाकार चलपी. हिंसे बगर हांणी केन्नाच पावल उखललें ना. गरिबांचें सूख? कोण सुखी आसा हांगासर? बायलांक समान हक्क? आरे, तुमीच विचारात हांकां वासुल्या चेडवाचें कितें केलें तें. गांधी, नेहरू, टिळक हीं नांवां मंत्रीसायबांनी आपल्या ओंठार घेवन त्या नांवांक कलंक लावपाचो यत्न केला.

मंत्री : (मर्दींच) आरे, कित्या कितेंय उलयता. हेय, तोंड सांबाळून उलय.

मास्तर : हें कित्याय कितें न्हय. सत्य सत्य आसता, तें पचोवपाक खूब त्रास पडटात. तर भावांनो, शिक्षण? गांवांतल्यो शाळा, भुरगीं शाळेंत येनात म्हूण बंद करपाचे हांचे यत्न कितले...

मंत्री : (मर्दींच) काणा, हाचें तोंड चड सुटलां...

मास्तर : (आकांतान) राव. (पुलीस व्हरतात. ओडून व्हरतां व्हरतां) हो मंत्री न्हय... हो... (पुलीस मारतात. मास्तरांचे वळवळे).

तो : तरीय तूं मास्तर...?

मास्तर : त्या सगळ्यां कडेन कितें न्हय कितें आसा. कसली न्हय कसली सत्ता आसा. ह्या गांवार शेक गाजोवपा इतली तरी. (रागान) आरे मंत्र्या, भाटकाराच्या इशाऱ्यांचेर कितलो म्हूण नाचतलो? तुजे दीस सोंपले.

तो : वयचे पयलीं एक गजाल सांगतां. गांव वा देश केन्नाच वायट आसना. फकत तातूंत खोदूळ घालपी मनीस वायट आसतात आनी त्याच वायट मनशां कडेन तुजीं झगडीं आसतात. हेर कोणूच दुखावचो ना हाची जतनाय घे. तूं फकत समाजाक लागिल्ली कीड काडून उडयता.

मास्तर : तुजे आशिर्वाद अशेच म्हजे फाटल्यान आसचे. चडट्या आनी पडट्या खिणार लेगीत.

तो : पडटे खीण मेळूं तुज्या दुस्मानांक!

✻ ✻ ✻

(होळी. धोल-ताशे वाजतात. नाचपांत नेट आसा. ओऽऽसय, ओऽऽसय करून लोक होळी नाचयतात. अदींमदीं कांय लोक 'आमची होळी आंब्याची...' हें लोकगीतूय म्हणटात. 'घणचे कटर घण'च्या नादार ओऽऽसय ओऽऽसयचो नाद बरो दिसता. तोंडार हात मारून गडे होऽऽ होऽऽ करतात.)

तो : तुज्या गांवांत तुका येवकार!

मास्तर : (वयले वयर हांसता)

तो : होळी! असत्य आनी वायटाचें निसंतान करून उजवाडाचें पर्व दाखोवपी परब. ॲऽऽ हॅऽऽ! पूण ह्या गांवांत होळी सुरू जावन सोंपलीय बी. पळय, लोक आपआपल्या घरा परततात, असत्य आनी अधर्म काबार करी नासतनाच.

मास्तर : मनीस आशेचेर जगता. फुडल्याय वर्सा आसतली होळी, आशेचीं किरणां मनां-मनांत तेन्नाय रुजतलीं.

तो : (मर्दींच) फुडल्याच्या फुडल्याय वर्सा आसतली होळी. आशेचीं किरणां तेन्नाय मनां-मनांत रुजतलीं आनी फुडल्याच्या फुडल्या, फुडल्याच्या फुडल्या...

मास्तर : ओफ्ऽऽऽ

तो : तुजे खातीर एक बरी संद आयल्या आनी तातूंत तूं जैतिवंत जावंकूच जाय. असली संद परती-परती येना.

मास्तर : अशें? सांग तर बेगीन.

तो : वर्सपद्दती प्रमाण अंदूय होळयेक बोकडो कापला. (सवका) अर्दो बोकडो भाटकारागेर गेला.

मास्तर : हेंवूय वर्सपद्दती प्रमाण.

तो : भाटकारान आपल्या वाड्या वयल्या जारदिनांतल्या लॉजांत एक पार्टी दवरल्या.

मास्तर : हेंवूय वर्सपद्दती प्रमाण.

तो : पार्टी व्हडे राती मेरेन चलतली.

मास्तर : हातूंत नविदाद कांयच ना. हेंवूय वर्सपद्दती प्रमाण.

तो : भाटकारालें लॉज सगळे वटेन बंद आसा.

मास्तर : (मर्दींच) पूण हांवें कितें करप?

तो : आनीक एका लाक्शागृहाची पुनरावृत्ती.

मास्तर : लाक्शागृह?

तो : हय लाक्शागृह... उजो... गोबोर... शॉर्ट सर्किट.

मास्तर : (अस्वस्थ) पूण...

तो : भियेवं नाका. हांवें पयलींच सांगलां, भाटकारालें लॉज सगळे वटेन बंद आसा. लॉजांतल्यान पळवाट ना. आनी शॉर्ट सर्किट हो एकूच एकाच धपक्याचो सर्वनाश.

मास्तर : अँहऽऽ?

तो : लॉजाचे सरभोंवतणीं तणाचें कुडें आसा. निमताक साधन म्हण् सगळें पेटोवन दिवपाचें. सगळ्यांसयत, सगळ्यांचें निसंतान हो एकूच पर्याय तुज्या जैताचो. व्हडे राती ते भरपूर पिल्ले आसतले. घडये साबुद्दिरूय आसचे नात. आनी तीच एक संद. आनी हें सगळें मुखावयली गेट ओडले उपरांतूच सफळ जावं येता. (थांबून) गेट भितरल्यान उकती करपाक मेळना.

मास्तर : (चिंतेस्त) हांव पळवाटे बद्दल चिंतिना.

तो : मागीर?

मास्तर : (आडखळत) हेऽ त्याऽऽऽ?

तो : ना मास्तर, तूं न्हिदिल्लो आसतना भाटकारान तुज्या घराक उजो लायिल्लो. तूं भितरले भितर करपून वचचो म्हण. न्हिदिल्लो आनी मेल्लो मनीस सारखोच आसता, फरक इतलोच, न्हिदिल्ल्याचे उस्कार चालू आसतात. लॉजांत शॉर्ट सर्किट जातलो, तणाच्या कुड्यांत उजो लागतलो. मागीर तातूंत ते हुलपून करपतले...

मास्तर : हें सगळें चिंतपाक आनी तोंडान उलोवपाक सामकें सोंपें. तें तशें वास्तवांत हाडपाक जायत? आसा तितली म्हज्यांत तांक?

मास्तर : काम करचे पयलींच तूं इतलो विरघळून कित्याक वता मास्तर? जायना जाल्यार 'बें' म्हण आनी चल त्या गांवांत परतो. सब-इन्स्पेक्टर काणा तुजी वाट पळयता, गांवांतल्यान तुजी धींड काडपाक. आनी मागीर परत चेंपणां घालूंक बंदखणींत आनी मागीर मास्तराच्या नांवार तूं एक कलंक जातलो, आनी एक उगडास धर मास्तर, संवसारांत कलंक सगळ्यांत चड काळो आसता.

आनी तूं म्हणटा हत्या? जांणी मानवतेचीच हत्या केल्या तांकां मारप म्हळ्यार हत्या न्हय. तें समाजाक न्याय दिवप जाता. असत्याक सत्य दाखोवप जाता. म्हुण्णूच तुजीं हीं झगडीं धर्मा आड जायनात. एकल्या परस समाज व्हड आसता.

असहाय्यांक पालव दिवप तुजी लागणूक. म्हणून म्हणटां, उजो लाय. गोबोर करून उडय सगळ्यांचो. काबार कर सगळ्यांक. मुक्ती दी तुज्या गांवच्या लोकांक. अंत कितें जातलो आनी कितें जावंक जाय हें तूं चिंतूं नाका. फुडो कर, कर्म कर. मुक्त कर तुज्या गांवच्या लोकांक. मुक्त कर तुज्या गांवबांधवांक आनी दाखय ताका तांच्या उज्ज्वल भवितव्याची दिका.

स्तर : तरीय आत्मो शांत उरत ?

: आत्मो सदांच आसता. आत्मो विश्वंभर. व्यक्तींत ताचो फकत अंश आसता. म्हूण जी व्यक्ती आत्म्या कडेन योग साधता ती सगळेंच साधता. तिका विश्वरुपूय येवं येता. तुजो निर्धार आनी काळजांतले हुलोप खर जावंदी. आनीक एक मास्तर, काळाचो दर एक खीण हो अनंतकाळाचो जितो जिवो प्रतिनिधी आसता. दरएक जीव सुक्ष्मतेंत विश्वरूप आसता तसो. अस्तित्वाचें यथासांग दर्शन घेवपी दृश्टीच दिव्य-दृश्टी. विश्वरुपाक आदी नासता, अंतूय नासता.

स्तर : पूण...

: (मर्दीच) जांचे कडेन जिविताचे अणभव आसतात तांकांच वेळाचें म्हत्व कळटा.

भ्रश्टाचाराची कीड समाजाक सगळ्या वाटांनी पोखरूंक लागता तेन्ना म्हाविद्वान विदुर लेगीत आंगळो-पांगळो जाता. धर्माक आपली निष्ठावंत आनी कर्तव्यशील नदर परतुंवचे पलतडीं कांयच करूंक शकना. म्हापराक्रमी पार्थ शस्त्रसंन्यास घेता, देवव्रताक भीष्म अधर्माचो वांगड जावंचो पडटा. म्हाबळी भीम आपलेच तांकींत भितरले भितर कोसळटा, दिगंत खोल, कौंतेय एक असहाय्य आनी दुबळें मरण हड्ड्यांत घेवन कुरुक्षेत्रार लवंडटा आनी धृतराष्ट्रा खातीर गांधारी लेगीत आपल्या दोळ्यांचेर पट्टी बांदून घेता. असल्या वेळार खरी गरज आसता गीता सांगपाची (प्रतिध्वनी)...

* * *

(उज्याचे लोट. हुयेली.)

* * *

(मास्तर दोंगराचे उंचायेर एका तळपार बसला.)

ो : इश्टा, इतलो चिंतेस्त कित्याक ?

ास्तर : (हुस्कारता)

ो : असले खोशयेच्या खिणाक तूं इतलो खंती कित्याक ? तूं एका उजवाड पर्वाचो उत्तरदायित्व जाला. तूं एका मुक्ती संग्रामाचो शिरोमणी जाला. असल्या खिणाक खोस मनोवपाची आसता. तुजी भोंवतण तुका खोशी दिसना ?

ास्तर : हय. हांव ह्या उजवाड पर्वाचो धनी जालां. म्हज्याच मानवतावादी मुल्यांची हत्या करून. म्हजे अजोड कृतिचो अवमान जाला. गांवच्या लोकांचे नदरेंतल्यान हांव सकल पडलां. (उबगला)

ो : हो असो इतलो गैरसमज कित्याक ?

ास्तर : हो गैरसमज न्हय. ही वस्तुस्थिती. म्हज्या आनी तुज्या अर्थान मुक्त जाल्ल्या गांवच्या लोकांनी त्या समाज-घातक्यांक जिते केले...

तो : (अजापान) जिते केले ? कितें उलयता तूं हें ? तूं असो साबुद्दी भायर कित्याक गेला ? मेल्ल्या मनशांक कोण जिवे करतलो ?

ास्तर : गांवच्या लोकांनी भाटकाराल्या लॉजाच्या जाग्यार ह्या पांचूय जाणांचें शहीद-स्मारक बांदपाचो एकमुखी निर्णय घेतला. बारा दीस जाले, एक एक शोकसभा गांवची युवा समिती आयोजीत करता आनी त्या उणाकांक हुतात्म्यांची उपमा दिवन आर्गां ओंपतात. तांच्या आत्म्यांक शांती मेळची म्हूण प्रार्थना करतात (हुस्कारता). सगळें पळोवन काळीज करपून वता. तुजें मार्गदर्शन म्हज्या मनाचे शांती खातीर आशिल्लें. म्हूण म्हणटां, मुखार तरी शादूर राव. कोणाचीच अशी दिशाभूल करूं नाका. ताका असो सगळ्याच वाटांनी हुंवाळून उडोवपाचो यत्न करूं नाका.

तो : मास्तर...!

मास्तर : (मर्दीच) आतां हांगा दर वर्सा जयंती, स्मृतीदिन जातले. कांय यादस्तिकांय हांच्या नांवा मुखार येतलीं. ह्या प्रांतांतलो सगळ्यांत व्हडलो शांती पुरस्कार भाटकारांक मरणोत्तर मेळोवन दिवपाचे यत्न ही युवा समिती करता. हांच्या मरणान गांवाची दिसपट्टी जीण विस्कळीत जाल्या. (शांत) सोबीत दोंगर-दोंगुल्ल्यांच्या, माडां-पेडांच्या, झऱ्या-वझऱ्यांच्या, कुळागरांच्या गांवांचें नांव आयज सावन 'शणैपूर' दवरलां. आतां ते मरचे नात. ते जिवे आसात, ते जिवे आसात. सदांच जिवे उरतले युगां संकिनी. ह्या गांवचें वजें व्हांवयतां व्हांवयतां उबे जिणेंत हारूच खाल्या. म्हज्या कश्टांचें आनी इमानदारिचें हें 'पातक' आयज तुज्याय माथ्यार फुट्टा. आयज म्हजे वांगडा तुजीय हार जाल्या.

तो : शांत... शांत...

मास्तर : हें कसलें जिणें ? हें जिणें न्हय. ही म्हजी हत्या... हांवें म्हजीच हत्या केल्या. हांव गुन्यांवकारी. हांव हत्यारो...

तो : शांत, मास्तर, शांत. हे सगळे तुज्या देशांतल्या बदलत्या राजकारणाक लागून घडलां. (सवका) ह्या देशांत तोखणाय कोणाची जाता ? जे आपले तोखणाये खातीर पयशे मोडटात तांची. पैशांनी मनीस जोडटात. आनी शांती पुरस्कार ! ज्या देशाक शांती म्हणटात ती खबरच ना, ज्या देशाचो बावटो रगताच्याच रंगांनी फडफडटा, तो देश शांतिचो पुरस्कर्तो कसो जावं येता ? (थांबून) मुखारय अशेंच घडत रावतलें. मनशाची कृती क्रूर आनी रानवटी जाय सर. तेच एकामेकांक खायत रावतले आपली स्मशान भूक भागोवंक. तो दीस चड पयस ना.

मास्तर : म्हाका त्या दिसाची वाट पळोवपाची ना.

तो : वारें येता तशें सूप धरपाचें हीच आयच्या मनशाची रीत. इश्टा, जिवितांतल्या संघर्शांतलें म्हजें सारथ्य फुकट गेलें.

मास्तर : इश्टा, तुंवूय...

तो : इश्टा, पृथ्वी हें एकूच सत्य. दीस आनी रात हेंच ताचें रूप. सजीव आनी निर्जीव अशीं ताचीं शिरंतरां आनी काळीज हें पृथ्वीक साखरन्हिदेंत पडिल्लें एक भव्य-दिव्य सपन... वास्तवतेचें मंगल रूप दाखोवन सपनावस्थेंतली वस्त सपनावस्थेंत विलीन जाल्या.

मास्तर : हय. नदरेचे तेमीर म्हाका तशेंच दिसता. म्हणून म्हाका म्हज्या मानसीक वेदनांचो अंत जाय. म्हाका चिरंतन शांती जाय. म्हज्या चिंतनाक अंत जाय. म्हाका चिरनिद्रा जाय. म्हाका म्हज्यांत स्मशान शांती जाय, युगंधरा... युगंधरा...

* * *

## डायग्लॉसिया
(निमाणी खिस्त)

# आमच्यो परंपरा आनी कोंकणीचो फुडार

**माधवी सरदेसाय**

खंयचेय भाशेक मनीस 'आपली' भास मानता तेन्ना खरेपणानर्शी हे भाशे कडेन जोडिल्लें सामाजीक-सांस्कृतीक दायज तो/ती आपलें लेखता. देखून, जी भास मनशाक 'आपली' दिसता ती केन्ना केन्ना ताका / तिका सारकी उलोवंक लेगीत येना. आनी, जी भास मनशाक सगळ्यांत बरी उलोवंक येता ती जायते फावटीं ताका/तिका 'आपली' दिसय ना. व्याकरणा वयल्या प्रभुत्वाचो आनी भास 'आपली' दिसपाचो संबंद आसताच म्हूण ना. देखून आमी पळेतात – आवयच्या दुदा वांगडा पुर्तुगेज भास आयकून जिबे वयलीं पयलीं वयलीं लुडबीं उतरां पुर्तुगेजींत उच्चारिल्लो, हेर खंयचेय भाशे परस पुर्तुगेजूच बरी जाणा आशिल्लो एक गोंयकार ताका सारकी उलोवंक लेगीत येना आशिल्ले कोंकणीक आपणाली आवयभास मानता. तसो, घरांत आनी भायर, जागेपणीं आनी न्हिदेंत कोंकणी उलोवपी दुसरो एक गोंयकार कोंकणीक न्हय तर सारकी उलोवंक लेगीत येना आशिल्ले मराठीक आपणाली आवयभास लेखता. कोण खंयचे भाशेक 'आपली' भास - आवयभास - मानता हांतुंतल्यान तो/ती खंयचो भाशीक-समाज आपणालो लेखता - खंयच्या समाजा कडेन तो/ती identify जाता तें उकतें जाता. वयर दिल्ल्या देखींतलो घरांत पुर्तुगेज उलोवपी गोंयकार पुर्तुगेज भाशीक आसुनूय आपणाक पुर्तुगेज लेखिना, पुर्तुगेज भाशीक-समाजा कडेन तो identify जायना. आपणाक तो गोंयकार लेखता आनी देखून गोंयचे भाशेक – कोंकणीक तो आपणाली आवयभास मानता. तसो, घरांत कोंकणी उलोवपी गोंयकार मराठी भाशीक नासतनाय मराठी भाशीक-समाजा कडेन identify जाल्लो आशिल्ल्यान आपणाक कोंकणी लेखूंक वचना.

उत्तर-मध्य भारतांत हिन्दी/उर्दू भासांच्या घुडयां खाला एकठांय आयिल्ल्या लोकां भितरूय आमकां अशेच तरेची सामाजीक-सांस्कृतीक निश्ठा पळोवंक मेळटा.[1] हिन्दीक वा उर्दूक ते आपणालें दायज लेखतात. आनी ह्या दायजाच्या उजवाडांत तांचे जिबेर दिसपट्टे धोळपी, तांच्या कानांर दिसपट्टे पडपी भाशेचें अस्तित्व तांकां जाणव लेगीत ना. ह्या वाटारांतल्या चडश्या लोकांक - मुखेलपणान, उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश आनी बिहार ह्या तीन राज्यांतल्या लोकांक आपणाल्या द्विभाशीक वा भौ-भाशीक वेव्हाराची जाणविकायूय आसना. प्रसंगा प्रमाण शैली बदलची तशे ते 'नीज भास' उलयतां उलयतां हिन्दींत/उर्दूंत उलोवंक लागतात. लोक-मेजणेंतूय ह्या लोकांची एकभाशीक म्हुण्णूच नोंद मेळटा.

हांगा एक विचित्र गजाल घडटा – एके वेटेन, वेगळ्या वेगळ्या भासांक उलोवपी 'एक' लेखतात – तांकां एकेच भाशेच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो शैल्यो मानतात. आनी, दुसरे वेटेन, एकेच भाशेच्या दोन वेगळ्या सामाजीक सांस्कृतीक शैल्यां कडेन ते दोन वेगळ्यो भासो म्हूण पळेतात – एके वेटेन हिन्दी / उर्दू भाशिकां भितर भारतीय-येवरोपी भाशे-कुळाच्या इराणं पोट-फांट्यांतली पश्तू भास उलोवप्यांचो आसपाव जाता तसो, भारता उदेंते वेटेनची, बांदावळिचे नदरेन बंगालीक लागिंची आशिल्ली मैथिली भास उलोवप्यांचोय आसपाव जाता. हे उलोवपी आपणाले जिबे वयले हिन्दी / उर्दूच्या प्रमाण रुपां परसून कितलिशी वेगळी आशिल्ले पश्तूक आनी मैथिलीक हिन्दी/उर्दूच्यो बोलयो लेखतात. आनी दुसरे वेटेन, एकेच 'हिन्दुस्तानी'चीं - एकेच सुवाते वयले 'खडी बोली'चीं - दोन रुपां 'हिन्दी' आनी 'उर्दू' उलोवप्यांक दोन खेरीत भासो दिसतात!

व्याकरणी बांदावळिचे आनी सामान्य उतरावळिचे नदरेन हिन्दी आनी उर्दू भितर व्हडलेंशें वेगळेपण नाच म्हळ्यार जाता. हिन्दी देवनागरी लिपयेंत बरयतात आनी उर्दू फारसी-अरबी लिपयेंत बरयतात; नवीं उतरां आपणायतना वा घडयतना हिन्दी संस्कृत भाशेच्या दारार मारता जाल्यार उर्दू फारसी-अरबी झरीर वचून आपणाली तान भागयता, इतलेंच दोगां मदलें खरेलें वेगळेपण. जायते फावटीं 'उर्दू छापा'चीं उतरां हिन्दींत घोळटात तशीं 'हिन्दी छापा'चीं उतरां उर्दूंतूय धोळटात. प्रेमचंदाचे देवनागरींतले 'गोदान' नवलकाणयेचें फारसी-अरबींत फकत लिप्यंतरूच केलें जाल्यार ती उर्दू नवलकाणी जाता! लिपयांचें वेगळेपण भासांच्या वेगळेपणाचो आभार निर्माण करता. फारसी-अरबींतली उर्दू 'मुसलमानांची भास' जाता आनी देवनागरींतली हिन्दी 'हिन्दूंची भारा' जाता. आनी, असो वेगळो संवसार मांडटकच भासो अदीक अदीक वेगळ्यो जावंकूय लागतात.

पंजाबी आनी हिन्दी/उर्दू मजगतचें वेगळेपणूय थोडें भोव हेच तरेचें. सामान्यतायेन हिन्दी/उर्दू भाशिकाक, कांय उतरांचो आडवाद सोडल्यार जाल्यार, पंजाबीय समजुपाक व्हडलिशी अडचण येना. पूण वेगळे – गुरुमुखी लिपयेक लागून पंजाबी हिन्दी परस वेगळी 'दिसुंकूय' लागता. गुरुमुखी लिपयेंतली पंजाबी सीखांक 'आपली' भास दिसूंक लागता. आनी पंजाबी उलोवपी हिन्दू 'आमी सीखां परस वेगळे' हें दाखोवपा खातीर आपणाक हिन्दी भाशीक मानूंक लागतात.

---

पळेयात: Lachman M. Khubchandani 1997: **Indian Diglossia** Revisualizing Boundaries - a Plurilingual Ethos पुस्तकांत. पानां 132-148. Sage Publications, New Delhi.

हिन्दुस्तानी वाटार, हे भाशेन, आयज तीन भाशीक परंपरांनी वांटून ा – हिन्दी, उर्दू आनी पंजाबी. ह्या तीन भाशीक परंपरांनी तीन र्मीक-सांस्कृतीक अस्मितायोय घुस्पल्यात. ह्या वाटारांतले हिन्दू चडशे पणाक हिन्दी भाशीक मानतात जाल्यार मुसलमान आपणाक उर्दू भाशीक नी सीख पंजाबी भाशीक लेखतात. हिन्दुस्तानी वाटारांतलो हो ४६% रत असो तीन संवसारांनी वांटून गेला.

फाटीं फुडें कोंकणी भाशीक समाजूय हे भाशेन वांटून वचूं येता. कोंकणी आनी दोन न्हय – पांच लिपयांनी बरयतात – रोमी, कन्नड, मलयाळम, रसी-अरबी आनी देवनागरी. ह्यो कोंकणीच्यो पांच वेगळ्यो वेगळ्यो परंपरा. तुंतली रोमी परंपरा सगळ्यांत म्हालगडी – १६व्या शतमाना सावन कणी रोमींतल्यान बरयतात – आनी, देवनागरी परंपरा सगळ्यांत र्विल्ली. मों. सेबास्तियांव रुदोल्फ दाल्गादान १८९३ वर्सा उजवाडा यिल्ल्या आपणाल्या कोंकणी-पुर्तुगेज कोशांत कोंकणी खातीर देवनागरीचो लो वयलो वापर केल्लो. रोमी, कन्नड, मलयाळम, फारसी-अरबी ह्यो पयो कोंकणीक 'अपघातानू'च मेळिल्ल्यो म्हणूंक जाय. पुर्तुगेज मिशनरींनी कणीक रोमी दिली. छापखान्याच्या सोंपेपणाचो लाव करून घेवपा खातीर कणीक रोमी आपणावची पडली अशेंय कांय प्रमाणांत मानूं येता. कन्नड गावाचे भुंयेर कोंकणीन कन्नड लिपयेचो आधार घेतलो आनी मलयाळम टारांत तिणें मलयाळम लिपी आपणायली. भटकळच्या आनी भटकळ वतणच्या नवायत कोंकणी मुसलमानांनी कोंकणी खातीर फारसी-अरबी पी घेतली.[2] हे भाशेन, देवनागरीय बी कोंकणीक 'अपघातान' मेळिल्ली शें म्हणूं नज.[3] कोंकणी भारतीय-आर्य भास. मराठी, हिन्दी तिच्यो वण-भासो. ह्या भासांनी भारतीय-आर्य कुळांतले म्हालगडे संस्कृत भाशेची पी सभावीकपणान आपणायल्या जाल्यार कोंकणीनूय ती आपणावं येता; कणीचीय ती सभावीक लिपी – दांतये / माथये (मूर्धन्य), ल्पप्राण / म्हाप्राण हे सारकेले नादां-भेद देवनागरींतल्यान सोंपेपणान खोवं येतात – हे तरेचीं कारणां कोंकणी खातीर देवनागरी लिपी घेवपा टल्यान आशिल्लीं. 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतान कणी भाशीक-समाज बांदून हाडपाचें सपन जांणी कोंकणी समाजाक लें तांणी सगळ्या अर्दान येवजून घाल्लें देवनागरी लिपी हें **नवें पावल** शिल्लें.

जायते फावटीं आमी हें विसरतात आनी देवनागरीक कोंकणीच्या रोमी, न्नड, मलयाळम, फारसी-अरबी ह्या लिपयांचे पंगतीक व्हरून बसयतात. ॉ. रॉकी मिरांदा सारकेलो जाणकार लेगीत ही चूक करता – Caste, eligion and Dialect Differentiation in the Konkani Area[4] ा आपणाल्या पेपरांत कोण खंयची लिपी वापरता तें सांगतना ते बरयतात, ...the Konkani Hindus of Goa, under the influence of larathi, use the Nagari script.' (पान ८०). रोमी 'क्रिस्तांव कोंकणी ोयकारांची लिपी' तशी देवनागरी 'हिन्दू कोंकणी गोंयकारांची लिपी' अशें हणूं नज. हिन्दू गोंयकार आर्दी सावन 'कोंकणी' नाशिल्लोच – तो आर्दी सावन आपणाक कोंकणी मानीच नाशिल्लो. मराठी प्रभावांतलो हिन्दू गोंयकार मराठी'च आशिल्लो. तो मराठीच बरयतालो, कोंकणी बरयच नाशिल्लो. कोंकणी तागेली बरोवपाची भासूच नाशिल्ली. शणै गोंयबाबां सावन गोंयकार हेन्दूं मर्दीं कोंकणी **बरोवपाची** सुरवात जाल्ली आसूंक जाय. आनी, शणै गोंयबाबान देवनागरींत कोंकणी बरोवपाचें पावल तांगेले 'मराठी संवये'क लागून घाल्लें अशें निखालूस म्हणूं नज. पुर्तुगेज, फ्रेंच आनी इंग्लीश भासांचेर प्रभुत्व आशिल्ल्या शणै गोंयबाबांक रोमींत कोंकणी बरोवप कठीण नाशिल्लें. रफाटें, तें सोंपेंच आशिल्लें. रोमींत कोंकणी बरोवपाची रीत (ortho-graphy) तांकां आयती तयारूच मेळटली आसली. पूण शणै गोंयबाबान कोंकणी खातीर देवनागरी घेतली. कोंकणी नादांचे बांदावळिचो अभ्यास करून देवनागरींत कोंकणी बरोवपाचे नेम तांणी सोदून काडले. (ह्या वावराचें फळ म्हळ्यारूच तागेलें **'कोंकणी नादशास्त्र'** पुस्तक.) हें सगळें तांणी कोंकणीचें हीत येवजुनूच केलें हांतूंत दुबाव आसूंच नज.[5]

ही सगळी फाटभूंय जायते फावटीं आमी विसरतात. आनी देखुनूच 'आमचे अमके लिपयेंतल्या अमक्या नेमाळ्याचें वितरण (circulation) इतलें... तुमचें देवनागरींतलें एकलें एकसुरें **सुनापरान्त** दिसाळें कितलेंशें खपता...?' वा 'आमची एका पुस्तकाची एका हजाराची उजवाडावणी स म्हयन्यां भितर खपता; मागीर आमी दुसरी उजवाडावणी काडटात. तुमचे देवनागरी लिपयेंतल्या पुस्तकाची पयलीच उजवाडावणी धा धा वर्सां पडून उरता.' हे तरेच्यो तुळा करपाक आमी अनमननात. शेंकड्यांनी वर्सांच्यो परंपरा आनी पारंपारीक मार्केट आशिल्ल्या कोंकणीच्या लिपयांची तुळा अशी तशी एका शतमानाची परंपरा आशिल्ले तिचे देवनागरी लिपये कडेन करप समा न्हय, तें unfair हें भान आमकां उरना.

आयज कोचीचो कोंकणी मनीस मलयाळम लिपी सोडून देवनागरी कडेन आयला. फारसी-अरबी लिपी कोंकणी मुसलमानांच्या एका पंगडा भितरूच उरल्या. साहित्यीक मळार तरी हेर लिपयां वांगडा ती सर्तींत देंवूंक ना. हे लिपयेंत कोंकणींत साहित्य-निर्मणी जाल्ल्याचें अजून वाचूंक/आयकूंक ना. गोंयांत नवे पिळगेक तरी देवनागरीची आडखळ जायना अशें म्हणूं येता. मुळाव्या शाळांनी कोंकणींतल्यान शिकपी, माध्यमीक, उच्च माध्यमीक पांवड्याचेर एक विशय (तिसरी भास) म्हूण कोंकणी घेवपी, कोंकणी साहित्य घेवन बी.ए., एम्.ए. जावपी भुरगीं देवनागरी लिपयेंतल्यानूच कोंकणी शिकतात. हांतूंत हिन्दू, क्रिस्तांव दोगांयचो आसपाव आसता. तरी अजून देवनागरी इगर्जेंत सुवात मेळोवंक पावूंक ना. क्रिस्तांव देवा-धर्मा संबंदिचीं पुस्तकां अजून रोमींतूच आसात. हाका लागून 'रोमी आमची परंपरा' हो विचार अजून खंय तरी क्रिस्तांवां मर्दीं मूळ धरून आसा. कर्नाटकांतूय मुखेलपणान मंगळूरच्या क्रिस्तांवां मर्दीं कन्नड लिपये विशीं अशीच शी भावना आसा. आयज मंगळूर विद्यापिठांत बी.ए.च्या अभ्यासक्रमांत एक ऐच्छीक पेपर म्हूण कोंकणी घेवंक मेळटा. हांगा कोंकणीची लिपी कन्नडूच दवरल्या.

लिपी ही एक संवंय. **येवकार अध्यक्षांलें अुलोवपां**त शणै गोंयबाब बरयतात – '...जायतीं वर्सां वेगळ्या वेगळ्या लिपिंनी बरोवची संवंय जाल्ल्यान, त्यो त्यो लिपी अेकदम सोडून दिवंक कठीन वेतलें. परंत अुपाय ना. आमगेली भास अेकरुपी जावन ती घसघशीत वाडूंक जाय, आमगेल्या लोकांल्या शिरंत्रांनी नवें गिन्यान पावंक जाय, आनी संवसारांत आमगेले भाशेक आनी आमकां मान मेळूंक जाय जाल्यार, तिची अेकूच लिपी थारावंक जाय. **दोन तीन लिपी चलूंक दिल्यो जाल्यार, कोंकणी भाशेच्यो दोन-तीन भासो जावंक पावतल्यो; तिका प्रमाण रूप येवचें ना आनी कोंकणी राष्ट्राच्या अेकचाराक व्हडली नखलामी जातली.'** (पान: ५८; उतरांचेर भर शणै गोंयबाबांलीच.)

---

२. गोंयचे मुसलमान आपणाक उर्दू-भाशीक मानतात. भटकळचे मुसलमान कोंकणी कशे उरूंक पावले, समजून घेवंक जाय.

३. मों. दाल्गादांच्या कोंकणी-पुर्तुगेज कोशाक तांणीच बरयल्ली प्रस्तावना मुजरत वाचची. हे प्रस्तावनेंत देवनागरी लिपीच कोंकणी खातीर कशी योग्य ताची विसकावणी मों. दाल्गाद करतात.

४. International Journal of the Sociology of Language. Vol. 16 (1978): 77-91.

५. १९४२त मुंबय भरिल्ले तिसरे कोंकणी परिशदेचे येवकार अध्यक्ष म्हूण उलयतना *'वेदाची जी लिपी तीच कोंकणिची लिपी'* हें सांगून शणै गोंयबाब म्हणटात, *'म्हाका रोमी आनी देवनगरी लिपी येता... हांवें म्हगेलीं कांय पुस्तकां रोमींत आनी कांय पुस्तकां देवनगरींत बरैल्यांत. म्हाका सगळ्या लिपिंचो आदर आसा. परंत आमच्या आनी कोंकणी भाशेच्या हिताक पट्टा तें आमी करूंक जाय...'* (**येवकार अध्यक्षांलें अुलोवप** १९४५: ५७, ५८.

एके लिपये कडेन येवपाचो उपायूय ते सुचयतात – '...जीं पुस्तकां रोमींत छापल्यांत तीं फुडले खेपेच्या वेळार, देवनगरींत बदलून छापची मांडणी करची. रोमी वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं हांणी पांच वर्सांची मुर्जत घेवन, रोमी आनी देवनगरी लिपींत मजकूर छापचो आनी ल्हवू-ल्हवू आपल्या वाचप्यांक देवनगरिची सवंय लावन, निमाणें अेके देवनगरी लिपींतूच सगळो मजकूर छापची मांडणी करची. हीच मांडणी कानडी लिपिकूय लागू करची. म्हणटकूच पांच-धा वर्सांचे अखेरेक, आमगेली कोंकणी सरस्पत अेकाच रंगाचें घसघशीत कापड न्हेशिल्ली दिसतली आनी तांतूंत ती बरी सोबतली.' (**येवकार अध्यक्षांलें अुलोवप**: ६०) १९४२त केल्ली ही सुचोवणी. तिचे वयल्यान ५८ वर्सां उलगल्यांत. आनी अजून आमी म्हणटात – 'कोंकणी पांच लिपयांनी बरयतात. कोचींत मलयाळम, कर्नाटकांत...'

जायते फावटीं जाणकारांचे जिबेरूय 'देवनागरी कोंकणी', 'रोमी कोंकणी', 'कन्नड कोंकणी', 'मंगळुरी कोंकणी' हीं नांवां आयकतकच भंय दिसूंक लागता. लिपयांच्या भेदाचे जोडीक कोंकणींत धर्मांचोय भेद आसा. हे परिस्थितींत एके भाशेच्यो दोन भासो जावपाक वेळ लागना. इतिहासानूच आमकां हें दाखोवन दिलां. भारतांत हिन्दी आनी उर्दू भितर अशे तरेची फूट पडल्या. युगोस्लावियेंतूय सर्बियन आनी क्रोएशियन भासां मदल्या भेदाकूय लिपयेनूच घटाय दिल्या. आदले युगोस्लावियेन तीन राष्ट्रभासो मानिल्ल्यो – स्लोवेनियन, मॅसडोनियन आनी सर्बो-क्रोएशियन (वा, क्रोएशो-सर्बियन). सर्बियन आनी क्रोएशियन हीं हिन्दी/उर्दू वरी एकेच भाशेचीं दोन रुपां. सर्बियन भाशिकाक क्रोएशियन समजता तशी क्रोएशियन भाशिकाक सर्बियन समजता. सर्बियन सिरिलीक लिपयेंत बरयतात आनी ती मुसलमानांक 'आपली' दिसता, जाल्यार, क्रोएशियन रोमी लिपयेंत बरयतात आनी ती क्रिस्तांवांक आपली दिसता. सर्बो-क्रोएशियन वा क्रोएशो-सर्बियन भाशेन दोनूय लिपयांक मान्यताय दिल्ली.[६] पूण हाका लागून दोन रुपां लागीं येवपा बदला आशिल्लीं थंयच उरलीं. युगोस्लावियेचें 'ethnic states'त विभाजन जालें आनी सर्बो-क्रोएशियन / क्रोएशो-सर्बियनचो प्रयोग भंगलो. सर्बियन आनी क्रोएशियन भासो सासणाच्यो वेगळ्यो जाल्यो.[७]

कोंकणी चळवळ मुदलांत परंपरा-विरोधी चळवळ आशिल्ली. ती नवी identity घडोवपी चळवळ आशिल्ली.[८] हिन्दू समाजा भितर ती सुरू जाल्ली आनी मुखेलपणान ती गोंयांत चल्ली हे गजाली कडेन आमच्यांनी आड-नदर करूंक जावंची ना. गोंयांत हे चळवळीन कोंकणी-मराठी वादाचें रूप घेतलें. कोंकणी चळवळींत क्रिस्तांव समाज पुरायेन कोंकणीच्या अर्दान रावलो. पूण कोंकणी-मराठी वाद ह्या समाजा भितर नाशिल्लो. क्रिस्तांव समाजाचो मराठी कडेन संबंदूच नाशिल्लो. वयल्या वर्गांतलो क्रिस्तांव सोडलो जाल्यार क्रिस्तांव भौस कोंकणीच 'आशिल्लो' आनी तो आपणाक कोंकणीच 'मानतालो'. क्रिस्तांवां मदल्यान जायते निश्ठावान म्हालगडे वावुरपीय कोंकणी चळवळीक मेळ्ळे. ते 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' हे कोंकणी चळवळिचे मोखी कडेन पुरायेन एकरूप जाल्ले. तांकां देवनागरीची आडखळ केन्ना जालिना आनी, कोंकणी समाजान एक लिपी आपणावंक जाय म्हणपाकूय ते केन्ना अनमनले नात. पूण भौसंख्य क्रिस्तांवां खातीर कोंकणी चळवळ परंपरा-विरोधी – परंपरा मोडपी चळवळ नाशिल्ली. ती परंपरा तिगोवपीच चळवळ आशिल्ली. देखून गोंयकार क्रिस्तांव अजून रोमी लिपयेची परंपरा घेवन बसला, तसो, मंगळूरकार क्रिस्तांव कन्नड लिपयेचे परंपरेक वेंग मारून बसला. ह्यो 'परंपरा' कोंकणीक चडांत चड 'Minority Status' मेळोवन दीत – तिका 'मूय जावन साकर खावंक' शिकयत – पूण एक नवो ऊंच मानेचो कोंकणी समाज घडोवपाक तांचो हातभार मात कसोच लागपाचो ना.

कोंकणी चळवळ कोंकणी भाशेक प्रतिश्ठा जोडून दिवपाची, कोंकणी मनशाक कोंकणी भाशीक म्हूण प्रतिश्ठा मेळोवन दिवपाची चळवळ आशि ती कोंकणीक डायग्लॉसियेंतल्यान भायर हाडूंक सोदताली. कोंकणीक भितर प्रतिश्ठा नाशिल्ली.[९] वयल्या वर्गाच्या क्रिस्तांवांच्या घरांतूय पु भास घोळटाली. 'क्रियादांची भास' हें नांव कोंकणीक ह्या वर्गानूच दि क्रिस्तांव समाजांत कोंकणी 'भौसा'ची – 'बारीक लोकां'ची भास आशि इगर्जेनूय कोंकणी कडेन हेच नदरेन पळेल्या.

गोंयचे मेकळिके उपरान्त वयल्या वर्गाच्या क्रिस्तांवांच्या घरां पुर्तुगिजिची सुवात हाल्ली. पुर्तुगिज राजवटीक लागून पुर्तुगिज भास गोंयकार घरांत रिगिल्ली; मेकळ्या गोंयाक हे 'कोड्डू पुर्तुगिज उगडास' नाका म्हूण ताणें पुर्तुगेजीक भायर मारली अशें एक वेळ मानलेंय जाल्यार गोंयक राजवटींत ह्या घरांनी पुर्तुगिजिची सुवात गोंयकारांचे कोंकणी भाशेन जाय आशिल्ली. अशें घडलें ना. वयल्या वर्गाच्या क्रिस्तांवान पुर्तुगिज सो आनी इंग्लीश आपणायली.[१०] १९६१च्या डिसेंबरांत गोंय 'भारतीय' आनी तेन्ना सावन भारताचें इंग्लीश वसाहतवादी दायजूय गोंयकारान अ मानलें! एके नदरेन पळोवंक गेल्यार हो opportunism. पूण दुसरे हो क्रिस्तांव समाजांतले कोंकणीचे प्रतिश्ठेचेर एक statement. कों भौसाची भास आशिल्ली ती भौसाचीच उरली. आयज कोंकणींतली ए एकसुरी वेवसायीक रंगमाची तियात्राची. तियात्रां पळोवंक कोण व मुखेलपणान क्रिस्तांव भौसूच. तियात्रां कोण बरयतात आनी कोण त वांटो घेतात? कांय आडवाद सोडले जाल्यार चडशे क्रिस्तांव भौसांत कांतरांय मुखेलपणान भौसांतूच जल्माक येतात. आनी भौसाचेच घोळटात. **गुलाब** सारकेलें म्हयनाळेंय क्रिस्तांव भौसूच चड वाचता... इगर्जे ही वस्तुस्थिती मानून घेतल्या. देखून गांवांनी कोंकणी मिसां जातात शारांनी 'इंग्लीश गोंयकारां' खातीर कांय मिसां इंग्लीशींत जातात. इंग्लीशिचे सुवातेर पुर्तुगेजींतल्यान मिसां जातालीं. आयजूय कांय सुवात पुर्तुगेजींतल्यान मीस जाता.

क्रिस्तांव भौसाच्या काळजांत कोंकणी विशीं उपाट मोग आसा. इत न्हय, कोंकणी सारकी नकळ जाल्ले वयल्या वर्गांतले कितलेशे क्रिस कोंकणीक आपणाली आवयभास मानतात – तांच्याय काळजांत कोंक सुवात आसा. पूण, क्रिस्तांव समाजांत अजून कोंकणीक प्रतिश्ठा ना अ म्हणचें पडटा. देखून, वयल्या वर्गान पुर्तुगिज सोडून इंग्लीश आपणाय तसो आज भौसांतलोय क्रिस्तांव Masses follow the Classes न्यायान कोंकणी सोडून इंग्लीश आपणावंक लागला. सामान्यतायेन भ मदल्या 'शिकिल्ल्या' क्रिस्तांवांचे चडशे वेव्हार आयज इंग्लीशींतल चलतात – तांच्यो काजराच्यो व्होंवळिको इंग्लीशींत आसतात, काज 'टोस्ट' इंग्लीशींतल्यान 'रेज' करतात, बँड इंग्लीश आसता; कोंकणींतल मीस करून इगर्जे भायर एकामेकां लागीं इंग्लीशींतल्यान खबरी म

---

६. गांधीजींलो 'हिन्दुस्तानी'चो विचार हेच तरेचो आशिल्लो. भारताची राष्ट्र हिन्दुस्तानी दोनूय लिपयांनी बरोवंक जाय – देवनागरी आनी फारसी-अ जण एकल्या भारतियान ह्यो दोनूय लिपयो शिकूंक जाय, गांधीजी म्हणट पूण हो प्रयोग आमच्या देशान केन्ना करुनूच पळेलो ना. आनी, पाकिस्तान घ उपरान्त – उर्दू पाकिस्तानाची राष्ट्रभास जाले उपरान्त – हिन्दी आनी उर्दू येवपाची शक्यतायूय उणी जाली.

७. Khubchandani 1997: 145, 148.

८. हांगा मार्च १९९४च्या 'जागां'तल्या **एक यक्षप्रस्न** ह्या माथाळ्याच्या संपादकिया कडेन मुजरत लक्ष ओडन दिसता. ह्या लेखांत रवीन्द्रबाबान कोंकण लिपयेचो आनी 'परंपरे'चो प्रस्न जितले धिटायेन आनी स्पश्टपणान मांडला तो भोवच थोड्यांनी मांडिल्लो पळोवंक मेळटा.

९. फेब्रुवारी २०००च्या 'जागां'तलो ह्याच सदरांतलो लेख पळोवचो.

१०. लिपी सोडपाचो विशयूच काडल्यार जो समाज परंपरेची ढाल मुखार का त्याच समाजांतलो एक वर्ग उणींच म्हळ्यार चारशीं वर्सां जिबेर घोळिल्ली चारशीं दिसां भितरूच सोडपाक अनमनलोना हें पळोवन अजाप जाले बगर राव

चित्र आयज खूब कडेन पळोवंक मेळटा – गांवांनी लेगीत. आवयबापूय ापसांत कोंकणी उलयतात पूण केजींत वचपी भुरग्या कडेन इंग्लीशींतल्यान लयतात हेंवूय आयज क्रिस्तांवां मदीं वचत थंय दिसूक लागलां. ही ायग्लॉसियाच. फिशमनची 'extended diglossia'.[११] हे परिस्थितींतल्यान ायर येवपाची थारावणी क्रिस्तांव समाजानूच घेवंक जाय. तेन्नाच लिपयेचे रंपरे'चे प्रस्न आपशींच सुटावे जातले. तेन्नाच 'ॐ सांतेरी पाव! ॐ ांकवार मोरये पाव!' ही शणै गोंयबाबांली प्रार्थना पुराय क्रिस्तांव समाजाचे जेबेर घोळटली आनी तेन्नाच कोंकणी फकत कोंकणी राज्यांत नोकरी ळोवपाचें साधन म्हूण आमकां गरजेची दिसची ना. ती आमच्या वाभिमानाची घुडी जातली. शणै गोंयबाबांल्या सपनांतल्या 'कोंकणी भाशेच्या र्ण स्वराज्या'ची[१२] फांतोड खऱ्या अर्थान तेन्नाच उदेतली.[१३]

* * *

११. मार्च २०००च्या 'जागां'तलो ह्या सदरांतलो लेख पळोवचो.
१२. **येवकार अध्यक्षांलें अुलोवप** : ७१.
१३. मंगळूरांतले कोंकणीचे परिस्थिती विशींय हे नदरेन अभ्यास जावंक जाय. रॉकी मिरांद (1978, pg. 81) बरयतात – In South Kanara, I have often come across Konkani Hindus and Konkani Christians speaking to each other in Kannada or Tulu. Although there is mutual intelligibility between the Hindu Konkani and the Christian Konkani dialects spoken in South Kanara, when the speakers are proficient in Kannada or Tulu they can communicate with greater ease in one of these languages by eliminating 'code noise' ...Of course, ease of communication is not the only concern involved. The use of some other language might be more appropriate under the circumstances. Knowledge of a **high-status language like English** can often be displayed to one's advantage... (उतरांचेर भर : म्हजी). हें गोंयांतूय घडटा. हाका डायग्लॉसिया न्हय जाल्यार कितें म्हणपाचें? हाचो सगळ्याचो बारिकसाणेन अभ्यास जावंक जाय. एके Ph.D.चो विशय हो!

---

आइन्स्टायना बरोबरचे सगळे संवसाराक अंतरिल्ले. ताका इश्ट अशे कोण उरूंक नाशिल्ले. ताणें म्हणचें, 'अख्खो संवसार वळखता जावन सुद्धां एकलो एकसुरो जियेवचें पडप हें कितलें विचित्र न्हय?' ताचो एके तरेचो धेंक आशिल्लो. म्हूण नवे पिळगेंतले लोक ताचे म्हऱ्यांत येवपाक भियेताले. पुणून पयलेच भेटींत 'आरे! येदो व्हड हो मनीस इतलो सादो कसो?' अशें म्हणून अजापभरीत जाताले.

ताचेर मोग शिंवरावपी जायते जाण आशिल्ले. पुणून तेच बरोबर एक ज्यू म्हूण, एक पॅसिफिस्ट म्हूण (झुजां नाका म्हणपी म्हूण), एक डॅमोक्रेट म्हूण (सगळ्यांक सारके मानतालो म्हूण) आनी एक समाजवादी म्हूण दांत वोंठ चाबून ताची टिका करपीय जायते आशिल्ले. तो म्हणी, आसूं सगळीं राष्ट्रां सार्वभौम. पुणून सगळ्यां वयर आनीक एक सत्या चलूंक जाय – 'विश्व सरकारा'ची. लोक म्हणटालो, 'कितलो भोळो भावार्ती मनीस हो!' आइन्स्टायनान म्हणचें, 'हांव जाणां, विश्व सरकार (वर्ल्ड गवर्नमेन्ट) जालें जाल्यार तें जुल्मीच जातलें. पुणून विश्वयुद्धान (वर्ल्ड वॉरान) संवसाराचें जें नाशें जातलें ताचो विचार करतां तेन्ना थरथरो भरता. विश्व सरकाराचे जुलूम पुटवले अशें दिसता.'

बरीच पिराय जाल्ली. एक दीस ताका काळजाचें जालें. डॉक्टर आयले. म्हणपाक लागले, 'बायपास करून घेवंक जाय...'

'बायपास?' आइन्स्टायनान विचारलें. 'कित्याक? आयचें मरण फाल्यांचेर धुकलपा खातीर? गरज ना. I have done my share. It is time to go. हांवें म्हज्या वांट्याक आयिल्ल्यो सगळ्यो लागणुको पुऱ्यो केल्यात. आतां वचपाचो वेळ आयला.'

ताणें 'बायपास' करून घेतलें ना.

कांय दिसांनी तो गेलो. वचचे पयलीं ताणें सगळ्यांक सांगून दवरलें, म्हजे फाटल्यान म्हज्या थडग्याचेर कोणें फुलां हाडून दवरिल्लीं म्हाका नाकात. म्हूण, म्हाका खंयच पुरूं नाकात. 'इलॅक्ट्रीक क्रेमेटोरियमां'त प्रेत व्हरून ताका अग्निसंस्कार दियात आनी रक्षा समुद्रांत व्हरून पावयात.

कितलो सादो, कितलो नमळ आनी केदो व्हड आशिल्लो मनीस हो!

---

# तीर-सुवादीक कॉलम

## दिलीप बोरकार

म्हाका सद्या आचार संहिता लागू जाल्या.
आचार संहिता म्हळ्यार कोड ऑफ कंडक्ट.
तो एकदां लागू जालो म्हणटकच सांबाळचें पडटा.
सतत वेंचणूक आयुक्त मानेर हुमकळत रावता.
जाल्यार केन्ना अपसरण येत, सांगूं नज.
देखुनच ह्या म्हयन्याक हो कॉलम बरोवंचो काय ना तें येवजितालों.
सांगूं येता, केन्ना कोणाक कशें उस्तुऱ्यां वचत तें!
कॉलम वाचून एखाद्र्याचें मत घुंवलें जाल्यार घात.
जिकतलो जिकून वतलो. म्हजो मात... आसूं!
हे आचार संहितेन म्हाका मात पिडापीड भोगयल्या.
दुष्काळांत तेरावो म्हयनो तशी ही आचार संहिता.
एकदां तो एराज्म सिकैर म्हजे फाटीक लागलो.
म्हणूंक लागलो, आतां बऱ्या लोकांनी वेंचणुकेक रावंक जाय.
तुजे सारके फाटीं रावतात देखून हेरांचें फावता.
वेंचणूक जिकून येवपा खातीर लढपाची नासता
तर ती बरेय उमेदवार आसतात हें दाखोवंक आसता.
असले विचार हे आदीं एकटो लोहियाच मांडटालो.
ते दुसरे खेपे हांवें आयकले ते एराज्मा कडल्यान.
ताच्या ह्या विचारांनी नाय म्हळ्यार हांव भुल्लुसलों.
एका गोंयकारान तरी म्हाका 'बरो' हे कातिगोरींत घाल्लो.
फाटलो फुडलो विचार करिनासतना हांव वेंचणुकेक रावलों.
तेन्ना सावन आचार संहिता म्हजी फाट सोडिना.
हे आदीं पांच वर्सांनी एकदां वेंचणूक जाताली.
तेन्ना थोडे दीस ही आचार संहिता सोंसूं येताली.
राजकारणांत पडिल्ल्याची ख्यास्त म्हूण.
पूण हालिंसराक दर दोन-चार म्हयन्यांनी वेंचणुको.
देशांत खंय तरी लोकसभे खातीर वेंचणूक जाहीर जाता.
हांगा गोंयांत म्हाका आचार संहिता लागू जाता.
ते उपरांत खंयच्या तरी राज्यांत विधानसभा वेंचणूक.
ती सोंपली रे सोंपली खंय तरी जिल्ला परिशदेक मतदान.
फाटोफाट नगरपालिकेच्यो जाहीर करतात.
आनी हें वारें गांवांत भितर सरून ग्रामपंचायतींत रिगता.
हातुंतल्या एकाय लफड्यांत म्हजो संबंद नासता.
जांचो आसता तांकां मात्तूय आचार संहिता लागना.
लागता ती मात म्हजे सारक्या गरीब दुबळ्यांक.
मदीं हांवें दूरदर्शना खातीर एक लघुपट करचें चिंतलें.
कसलीच अपेक्षा बाळगिनासतना तांणी म्हाका कॉन्ट्रॅक्ट दिलो.
सात-आठ हजारांचो आंकडो पळोवन हांवूय खूश!
भुल्लुसून 'भवदीय' हाचे सकयल सही ठोकली.
मैं सरकारी कर्मचारी हूँ / नहीं हूँ हाचे मुखार सही करतालों
इतल्यान युसूफ आयलो आनी म्हणूंक लागलो, सय करूं नाका.
हांवूय हांगा पावतना सदांच सय करूंक आडखळटां.
मागीर तो आकाशवाणीचो कॉन्ट्रॅक्ट आसूं वो दूरदर्शनाचो.
हूँ / नहीं हूँ हातुंतलें कितें कट करचें तेंच म्हाका कळना.
मागीर हांव थंय कांयच कट करिनासतना निशाणी करतां
तांकां जाय तें दवरूं आनी जाय तें कट करूं म्हूण.
ते कितें कट करतात तें हांव पळेना.
फकत फी कट केल्या काय ना हाचेर लक्ष दवरतां.
युसूफान सय करूं नाका म्हळें आनी हांव रावलों.
म्हळें, हो हूँ / नहीं हूँ हाचेर म्हाका शादूर करता जावंये.
(तोय हालीं हूँ / नहीं हूँ असले अवस्थेंत वावुरता)
'तुमकां जाय तें कट मारात रे तुमी मागीर.'
पोज मारपा खातीर हांव नेटान उलोवन गेलों.
मागीर म्हाकाच दिसलें, हांव कितें उलयलों काय म्हण!
असलें पोज मारप फक्त बाकीबाबाक पचतालें.
पोएट बाकीबाब म्हळ्यार आकाशवाणीचो सम्राट.
तो स्टेशनाचीं सपणां चडटना डायरेक्टर लेगीत उबो रावतालो.
आमकां पळोवन उबे आशिल्ले प्यून लेगीत बसकण मारतात.
आमी रेडियोक नागोवंक आयल्यात अशें शें चिंतून पळेतात.
तांचीय म्हूण तातूंत तशी व्हडली चूक ना.
ते बाबडे पुराय म्हयनो मर मर मरतात.
आनी तांच्या हातार पगार म्हूण चार पयशे पडटात.
कोंकणींतले फुगनू कवी लेगीत चार वळी बडबडून चेक व्हरतात.
हें उकत्या दोळ्यांनी पळोवन ते थोडेच ओगी बसतले!
तर हांव दूरदर्शनाची गजाल सांगतालों.
युसूफ आचार संहिता लागू जाल्ल्याची बातमी घेवन आयलो.
आनी म्हज्या तोंडा कडलो घांस घेवन गेलो.
रातीं वेंचणूक आयोगान तडकाफडकीं वेंचणूक जाहीर केल्ली
देखून आयच्यान देशभर आचार संहिता लागू जाल्ली.
खरें म्हळ्यार आचार संहिता उमेदवारांकूच लागूंक जाय.
पूण हांगा हे म्हाका लावन सोडटात.
एकदां उमेदवारी भरपाची पिशेपणां हांवें केल्लीं जायत.
ताचें पानवळ हांवें अशें आतां मरसर भोगपाचें?
तिकेट दितां म्हूण म्हाका काँग्रेसीन व्हेलो ही सत गजाल.
आतां ती म्हाका दिली काय ना हें हांणी पळोवपाचें न्हय?
म्हाका दारांत बांदून खलपाक तिकेट दिली हें वाऱ्यार पडलां.
आचार संहिता लागू जावपाची ती त्या खलपाक.
पूण तो नेटान दूरदर्शनाचेर उलोवन मतां मागता.
हांगा म्हजो मात मेळिल्लो कॉन्ट्रॅक्ट रदद जाता.
म्हळें, पाड पडूं, नशीब गांडू तो क्या करेगा पांडू!
निदान रेडियोचेर म्हयनोभराची कार्यावळ चालू आसा.
हो म्हयनो शिताचेर न्हय जाल्यार पेजेचेर तरी वतलो.
त्याच आंतरीक समाधानान हांव रेडियोर रिकॉर्डिंगाक गेलों.
पळेल्यार माधव बोरकार उमेश म्हांबरेक घेवन रिकॉर्डिंग करता.
'पावला कणकणी' कार्यक्रम म्हजो. रिकॉर्ड करता म्हांबरो!
'बोरकार, आयलो? बरें जालें. हांव तुकाच सोदतालों.' माधवान म्हळें.
'कितें जालें जाणां तूं... तुका आचार संहिता लागू जाल्या.'
आपणेंच कितें तरी व्हडली चूक केल्या अशे नुरेन ताणें सांगलें.
'तुजो चान्स म्हाका पडलो.' म्हांबऱ्यान म्हळें.
माधव बोरकाराचो हातूंत मातूय गुन्यांव नाशिल्लो.
उमेश म्हांबऱ्याचो तर न्हयच न्हय.
तो बाबडो म्हजे सारको, हातावेल्या पोटाचो.
मागीर गुन्यांव कोणाचो? वेंचणूक आयोगाचो? म्हजो? काय पक्षाचो?
रेडियो स्टेशना वेल्यान सकयल देंवतना एक कल्पना सुचली.

चेरूच एक बऱ्या पैकीं खेळ तियात्र बरोवन सादर करपाची.
का नांवूय म्हजे तकलेंत आयलें, **गुन्यांव कोणाचो ?**
यांव कोणाचो ? म्हणत म्हणत हांवें एक निर्णय घेतलो.
मुखार वेंचणूक म्हणटात ताचो विचार लेगीत तकलेंत हाडप ना.
सो आतां हांवूय हाडिना आनी तिकेट दिवपी पक्षूय हाडिना.
चार येतां तो त्या पाड पडिल्ल्या वेंचणूक आयोगाचे तकलेंत.
णीच म्हज्या कपलार उमेदवार म्हूण शिक्को मारला.
शिक्को एकाय पक्षाक दिश्टी पडना.
स्पश्टपणान नदरेंत भरता आकाशवाणीच्या आनी दूरदर्शनाच्या
आतां हो छाप पुसून काडूंक कितें तरी करूंक जाय आशिल्लें.
का एकूच उपाय म्हळ्यार हांव उमेदवार न्हय हें सिद्ध करप.
खून हांवें लोकसभा वेंचणुके उपरांत सामकें मन मारून उडयलें.
दी व्हडली झेडपी वेंचणूक जाली. हांवें कोणालो एक थेंब उश्टायलोना.
जेखून आयिल्ल्या झेडपींची पार्टी लेगीत न्हयकारली.
णा झांटयो बँकेचे वेंचणुकेक फाटीक लागिल्लो
णूक लडटा जाल्यार लोन लेगीत दितां, म्हणटालो.
लोन घेवन दोन पुस्तकां छापपाचोय विचार आयलो.
कोंकणी अकादेमीक तीं दिवन लोनाचो इंटरेस्ट फारीक जातालो
र्ण म्हज्या निश्चेवा सामकार तो लेगीत विचार फाटीं पडलो.
हांव म्हज्या इंद्रियांचेर ताबो दवरूंक जैतिवंत जातालों.
इतल्यांत सपनांत लेगीत नाशिल्ली भाशा मंडळाची वेंचणूक आयली.
पयलीं हे वेंचणुकेक कोणूय उबो रावतालो आनी बिनविरोध येतालो.
रमेश वेळुस्कार लेगीत एकदां निवडून येवन अध्यक्ष जाला.
आतां मात ही वेंचणूक म्हळ्यार एक प्रतिष्ठेचो प्रस्न थरल्या.
वेगळे वेगळे पंगड आपली समिती हाडूंक सामके जिवार उठल्यात.
कोंकणी भाशा मंडळाक एक भवन सोडलें जाल्यार कांय ना.
ह्या पक्षांनी आपली शक्त खरें म्हळ्यार हेर कडेन वापरूंक जाय.
पंचायती, जिल्ला परिषद, बँको, विधानसभा बी वेंचणुकांनी.
तांणी काडिल्ल्या उतळतापांचें थंयच खरें चीज जावपाचें.
हांगा मात विनाकारण कोंकणीवाद्यांमदीं वितुश्ट आनी मतभेद.
मराठीवादी हें पळेत जाल्यार एके रातींत कोंकणीवादी जातले.
तांकां खंय खबर वेंचून आयिल्ली कमिटी कितें करता ती!
नेहरून 'अजीब' म्हणिल्ले ते हेच गोंयकार कोंकणीवादी
आपल्या बोल्सांतले दुडू खर्चून भाशा मंडळ चलोवपी.
दुडू खर्च करपा खातीर आपूण जावन वेंचणुकेंत पडपी.
तांची कांय चूक ना हातूंत. तांची वाट लायल्या बाकीबाबान.
'झोमून घेवंक वैली घुडी, होमखणांत आमची उडी'
अशी तांणी ''नवें युग फुलैतल्यां''खातीर कविता बरयली.
हांणी तिचो भलतोच अर्थ लायलो. लावं बाबडे. करूं कितें करतात तें.
म्हजें कितें वता ? करतलो तो भोगतलो.
पूण कोंकणीचे बाबतींत म्हज्यान अशे हात फाफडूंक जातात ?
हेरां वरीच कोंकणी म्हळ्यार म्हजोय विक पॉईंट.
(विक पॉईंट हाचो कोंकणी अर्थ गुरुनाथ केळेकारांचे डिक्शनरींत सोदचो)
देखून वेंचणूक नाका म्हणटनाच मंडळाचे वेंचणुकेन लक्ष ओडलें.
म्हजेंय रगत कोंकणीच ! अलिप्त म्हूण कसो रावतलों !
ते खातीर आचार संहिते कडेन दुर्लक्ष करप हांव पसंत करीन.
आदीं भाशा मंडळाचे वेंचणुकेक आचार संहिता लागनाशिल्ली.
खंयचोय फुलगो उबो रावतालो आनी बिनविरोध वेंचून येतालो.
वेंचणूकय तशी कांय घराण्यांपुरती मर्यादीत आसताली.
आतां ती गोंयच्या खांची कोंयड्यांनी तळागाळा मेरेन पावल्या
म्हणटकच उमेदवारांक आचार संहिता काळाची गरज थारल्या.
नातर पयलीं कोणूय उठ्ठालो आनी कोणाकूय गाळी घालतालो.
सत्री, जोतीं बी शस्त्रां घेवन एकामेकांचेर हल्लो करताले.
इतलेंय करून बिनविरोध वेंचून येताले.
हाची वेंचणूक आयुक्त तानाजी हळर्णकारान गंभीर दखल घेतली.
सुरवेक ताणें कोंकणीच्या हिता पासत कांय जाणांक सदळ सोडले.
आतां परिस्थिती हाताभायर वचूंक लागतकच धोरण कडक केलें.
म्हाका दिसता, हें घडलां तें म्हाकाच आचार संहिता लागची म्हूण !
म्हणचे, खंयचीय वेंचणूक जावं, ही आचार संहिता म्हजी फाट सोडिना.
आतां नशिबांतूच बरयलां जाल्यार तोंड दिवचें पडलें ना ?
मंडळाची वेंचणूक जाहीर जाली आनी म्हजो टिवीचो कॉन्ट्रॅक्ट गेलो.
दूरदर्शन म्हणटा, तो वेंचणुके खातीर वचूंक ना.
प्रसार भारती केल्ल्यान फंडाक कात्री लायल्या.
पूण आयकूंक येता ते प्रमाण विरोधी पंगडान चुट्टी लायल्या.
हांव टिवीचेर दिसत जाल्यार म्हजे मतदार प्रभावीत जातले.
मंडळाचे सगळे मतदार झाडून म्हाकाच मतां दितले.
हो कॉलमूय वेंचणूक जायसर बंद करचो अशीय मागणी आशिल्ली.
पूण माधवीन कानामनार घेतलेंना.
वेंचणूक आयोगाची सुचोवणी नमळायेन भायर मारली.
अशा ह्या साबार तेंक्यांक लागून म्हाकाय आतां नेट आयला.
आमचो पंगड जिकून येवंक वेंचणुकेक रावला.
बॅनर्स-पोस्टर्स करून गांवागांवांनी धाडल्यात.
मराठी राजभाशे खातीर ह्या दिसांनी चळवळ सुरू जाली तें बरें जालें.
ते चळवळींत भाशा मंडळाचेय कांय सर्वकाळ वांगडी आसात.
तेच म्हजे पोस्टर आनी बॅनर गांवांनी लायतात.
तांच्या खर्चाची वेवस्था मराप्रसवाले करतात.
(ना जाल्यार कोणूय म्हणत, मंडळाच्या खुस्तार वेंचणूक लडटां!)
विरोधी पंगडूय सद्या धोल-ताशे घेवन भायर सरल्यात.
आलमारींतले कोंकणीवादीय वेंचणुकेंत देंवल्यात.
मेल्ल्या गेल्ल्यांच्या नांवान बोगस मतदानाचीय शक्यताय आसा.
तेच पासत वेंचणूक आयुक्त कडक राविल्ल्याचें आयकतां.
रावूं बाबडो. आचार संहिता लादून लादून कितलो लादतलो ?
म्हाका आतां आचार संहितेची संवंयूच जाल्या.

* * *

## 'जागा' खातीर बरप धाडटना

– बरपाची एक प्रत बरोवप्यान आपणालागीं बाळगुची.

– बरप निवळ अक्षरान कागदाच्या एकाच अर्दान बरयल्लें आसचें. (एका अर्दान आदीं वापरिल्लें कागद बरोवपाक वापरूं येता.)

– हेर खंयचेच कडेन उजवाडा येवंक नाशिल्लें बरपूच धाडचें.

# इकरा कविता

□ परेश नरेंद्र कामत

१.

अनंताच्या फुलाइतले मनाचे शुभ्रावस्थेंत
हालयतना पाळणें
पाळण्यांत न्हिदेक पिकिल्लें भुरगें
जाल्लें दिसता
तळये कांठावयलें चान्नें...

२.

झाडांच्यो खांदयो
वाऱ्यांर घेतात
फुलांचे आलाप

भाराक आयिल्ल्या मनांत
उसळटात पांचवींचार
कवनांचीं कारंजीं...

३.

पानां गळटना
शांततायेन झाडां
खोल एकांतांत
मुंगरतात

पानांपानांत
फांकारतना वारो
झाडां आकांताचीं
ल्हारेतात.

४.

फुलांतल्यान
रकता परमळ
भोंवऱ्याचो
सोद घेत...

५.

तूं दोळ्यांत
गंगे वरी
निरागस

तूं मनांत
तुळशी वरी
निरामय.

६.

एक दंवा थेंबो
निस्तता दोळ्यांत...
आनी
अख्खो जल्मूच
थरथरता
तणाच्या पात्या वरी.

७.

तूं मातये वरी
आपल्यांतूच
मुंगरता... आनी
हांव तुका
फुलपा खातीर
नांगरतां...

८.

लजेझाडा वरी तूं
आनी
तुजी स्पर्शसंवेदना..

सुर्यकिर्णांकूच कळत
वाऱ्याकूच समजत...

९.

तुज्या पानांची
मेकळी सळसळ
मळबांत वत्ता वाडत

तुज्या मुळांची
गुंतागुंतिची वीण
मातयेंत अदिकच घुस्पत...

१०.

आपणेच आपणाक
झाडा वरी जपप
मातयेची कूस
उजवले उपरांत

आपणेच आपणाक
फूल कशें समजप
पाकळे-पाकळेन
उगडले उपरांत.

११.

तुवें भिरकटायल्ले
गिचमिड ओलिच्या खांदयांनी
पालेता नेणिवेची तरलता

तुवें फुलयल्ले
कळयेचे पाकळे-पाकळेंत
किर्णांच्या सौंदर्याची सासाय...

 REGD. No. GOA 130